# गोंयचीं माणकां

(कलाकार आनी साहित्यीक)



रजनी अशोक भेंब्रे

# गोंयचीं माणकां

(कलाकार आनी साहित्यीक)

रजनी अशोक भेंब्रे

दामोदर प्रकाशन



# गोंयचीं माणकां

(कलाकार आनी साहित्यीक)

रजनी अशोक भेंब्रे

---

प्रकाशन क्र. 16



वर्स 2014

पयली उजवाडावपी
रजनी अशोक भेंब्रे
दामोदर प्रकाशन
जी, 3, अत्रेय अपार्टमेंट,
मोरायलें, कुडचडें, गोंय - 403 706
फोन : 2650945 / 9822486955

मुखचित्र आनी छापपी
कस्तुरी ग्राफिक्स,
धवळी, फोंडें-गोंय.

अक्षर जुळोवणी
स्टार गॅलेक्सी, कुडचडें - गोंय

मोल : रु. 100/-

आपले मांयभुयेंची किर्त
जगभर पावयल्या,
त्या साहित्यीक आनी कलाकारांक !

*रजनी अशोक भेंब्रे*

पुस्तकाचे निर्मणेंत
जांणी जांणी आदार केलो
त्या सगळ्यांचे
मनासावन आभार !

- प्रकाशक

## रजनी अशोक भेंब्रे हांचीं

# उजवाडाक आयिल्लीं पुस्तकां

| | | |
|---|---|---|
| 1. | घुस्मट | (कथासंग्रह) |
| 2. | सुखी संवसार | (संवाद) |
| 3. | कोंकणी निबंद | (V ते VII) |
| 4. | कोंकणी निबंद | (I ते IV) |
| 5. | पांच पाकळ्यो | (बालसाहित्य) |
| 6. | हांव कोण | (बालसाहित्य) |
| 7. | मोराची करामत | (बालसाहित्य) |
| 8. | आळ | (बालसाहित्य) |
| 9. | सोपूत | (बालसाहित्य) |
| 10. | अडेचो वेगळोचार | (बालसाहित्य) |
| 11. | झाँसीची राणी | (बालसाहित्य) |
| 12. | लोकमान्य टिळक | (बालसाहित्य) |
| 13. | कोयरांतल्यान उपेगी वस्त | (बालसाहित्य) |
| 14. | पारखणी | (बालसाहित्य) |
| 15. | पर्यावरणाची राखण | (बालसाहित्य) |
| 16. | नसती अंधश्रद्धा | (बालसाहित्य) |
| 17. | सत्कार | (बालसाहित्य) |
| 18. | हाणीं घडयलें गोंय | (बालसाहित्य) |

# मनोगत

आमचें गोंय वैचारीक आनी संगीत कलेचो वसो घेतिल्लें राज्य. तशेंच कलाकारांची खाण म्हणल्यार अतिताय जांवची ना. पावला कणकणी आमकां आपल्या म्हौंवाळ गळ्यांतल्या सुरांनी खिळोवन दवरपी गायक कलाकार आनी सुविचारानीं वैचारीक पातळी हातासपाक पाविल्लो साहित्यीक दिसती पडटा.

संगीत ही एक खूब पन्नी आनी पवित्र कला. तेच प्रमाण रंगमाची हें एक व्हड प्रभावी आनी परिणाम कारक साधन. संगीत आनी रंगमाचयेची सेवा खूब कलाकारांनी तनमनान केल्या. गोंय स्वतंत्र जांवचे पयलींचो काळ त्रासांचो आसलो. पारतंत्र्यांत गोयांत फावो सारख्यो सुविधा नासल्यो. तरी कलाकारां मर्दी जिद्द ठांयीं- ठांयीं आसली. म्हणूनच कलाकार आपल्या कठीण परिश्रमानीं धडपडून वयर सरपाक पावले.

गोंयचो सैम आनी ताच्या सांगाताक मनाक मोनेळ घालपी, फसफसून येवकार दिवपी दर्या देगांवयले माड आनी कुळागारांच्या कुसव्यांत गोंयचे कलाकार आनी लेखक जल्मले. चडशे गांवांनी पांचवींचार शेतां, तातूंत आशिल्ली देवळां, इगर्जी. दर दिसाची फांतोड देवळाकडे वाजपी चौघुडो, वाद्यवादन, घंटा वादनान उजवाडटाली. भजनां, मृदंगवादन, रागदारी गायन, किर्तन, पालखे बरोबर प्रदक्षणां घालीत, भजनां गायत कलाकार व्हड जाले.

आमचो सुपुल्लो सैमान भरिल्लो गोंय प्रदेश हांगा राष्ट्रीय आनी आतंर राष्ट्रीय मळाचेर नामना जोडिल्ले मानकरी आसात जाणीं आपल्या बरोबर गोयांकय व्हड नामना मेळोवन दिल्या. गोंयच्या सैमाचीं तरेकवार रूपां फिशालकायेन पितारपाक हांगासल्ले चित्रकार फाटीं रावले नात तशेच आपले लेखणेच्या म्हालवजार भौसाचे हावेस, उत्फके, तांची सुख-दुखां माडून बऱ्यांतली बरी कलाकृतीची निर्मणी करपाक साहित्यिक फूडें सरले.

'गोंयचीं माणकां' हे पुस्तक म्हणल्यार आयचे माणकुले पिळगेक गोंयचे कलाकार आनी साहित्यीक हांच्या कार्याची वळख जांवची म्हूण केल्लो हो ल्हान

साचे यत्न. हातूंत चड पाल्हाळ करीनासतना थोडे भितर पूण म्हत्वाच्यो गजाली मांडपाचो यत्न केला.

सुनापरान्त दिसाळ्याचे संपादक भौ.बाबली नायक आनी पालवी संपादक भौ. नयना आडारकर हांच्या आदाराक लागून हांव हें पुस्तक काडपाक पावलां. सुनापरान्त दिसाळ्यांत हांव दर आयताराक 'हाणीं घडयलें गोंय' हें सदर शालेय विद्यार्थी खातीर बरयतालें.

आज ह्याच सदरांतले कांय वेंचीक लेख 'गोंयचीं माणकां' पुस्तक रूपान तुमचे मुखार दवरतना म्हाका खुब खोस भोगता. नदर चुकीन कांय चुको उरल्यो जाल्यार मुजरत कळोवच्यो.

# मांडावळ

## अ - कलाकार

# मोगुबाय कुर्डीकर

- संगीत



भुरगेपणांत आपले आवयक उतर दिल्लें - 'आई, कितलेय कश्ट सोंशीन, अपेश्ठा भोगीन पूण गायन शिकून व्हड गायिका जातलें आनी तुजी इत्सा पुराय करतलें. मोगुचें दिल्लें उतर कानांत पडना फुडें आवयन सासणाचे दोळे धांपिल्ले. भुरगेपणांत आवयक दिल्लें उतर, सुमारा भायले कश्ट घेवन दिल्ल्या उतराची पुर्ती करपी ही 'मोगु' म्हणल्यार गानतपस्विनी श्रीमती मोगुबाय कुर्डीकर.

सांगे म्हालांतलो कुर्डी हो तांचो जल्मगाव. तांचो जल्म 14 जुलय 1904 ह्या दिसा जालो. आवयचें नांव जयश्रीबाय. अत्यंत म्हत्वाकांक्षी बायल. घराण्यांत पिढी जात गायनाची परंपरा. जयश्रीबायची मनकाळजांतली एकच इत्सा आसली ती म्हणल्यार आपले मोगुन गायन विर्धेत पारंगत जावन व्हड गायिका जावचें आनी घराण्याचें नांव वयर काडचें. ताका प्रतिश्ठा मेळोवन दिवची.

जयश्रीबायची जिद्द तोखेवपा सारकी आसली. मोगुक हाताक धरून चलत ती जांबावले पावली. जंय एक हरिदास किर्तन करपा खातीर राबितो करून राविल्लो. तांका तिणें आपले धुवेक गाणें शिकोवपाची विनवणी केली. हरिदासान जांबावली आसासर मोगुक मुळावे गायनाचें धडे दिले. हीच मोगुची गायन कलेची सुरवात आसली.

उपरांत मोगुक घेवन जयश्रीबाय 'चंद्रेश्वर भूतनाथ संगीत मंडळी' हांगा गेली जंय मोगुक 'प्रल्हाद', 'ध्रुव' अशीं नाटकांतली कामां मेळ्ळीं. पूण खूब कश्ट काडचे पडले. कामां केल्ले बदल पयशाची गरज भागताली. आवयच्यान मोगुचे कश्ट पळोवं नज जाले. पूण मोगुन चिंतलें जैत हातासूंक जाय जाल्यार आयिल्ले परिस्थितीक सामकार वचूंक जाय.

मोगुबाय जबरदस्त म्हत्वाकांक्षी आसल्यो. ताणीं सान पिरायेंतच निश्चेव

केल्लो की कितलीय मानहानी सोंसची पडूं, त्रास भोगचे पडूं, पूण आपल्या ध्येया पसून फाटीं सरप ना. एक महान गायिका जावन आपले आनी घराण्याचें नांव वयर काडप.

तांणी खाँ साहेब इनायत खाँ पठाण, गान सम्राट अल्लादियाँ खाँ साहेब, हैदर खाँ साहेब सारक्या अश्टतासांच्या गान सम्राटां कडल्यान गायकीचें शिकप पुराय केलें. हें शिकप पुराय करताना पावला कणकणी तांकां मत्सरी लोका सामकार वच्चें पडलें. पूण धिराचे मोगुबायन ताचेरय मात करून आपलें शिकप पुराय केलें. 'मुलतानी', तोडी, धनश्री, 'पुर्वी' हे राग त्यो सहजतायेन खुलयताल्यो. जयपूर घराण्यांतल्या गायकिचें उंचेले शिखर अल्लादियांक लागून त्यो गांठूक पावल्यो.

दोन तपांच्या परिश्रमान मोगुबायन नांव, येस, किर्त मेळयली आनी आपले बराबरीन गोंयच्या नांवाकय उबारी हाडली. चिकाटी आनी जिद्द तशेंच सौजन्य आनी शालीनताय हे तांचे खाशेले गुण. ह्याच गुणांच्या म्हालवजार तांणी आपले गान तपस्विनी जावपाचें ध्येय तडीक व्हेलें.

गोड आवाजाची सैमान दिल्ली जल्मजात देणगी, मोट मोट्या गुरूंचे मेळिल्लें शिक्षण आनी जमेक शालीनताय हाका लागून तांची मैफल हमखास रंगताली. अशी गायिका म्हणचे गोंयचे संस्कृतीची गौरव जावन आसा. अशा ह्या महान गायिकेक जानेवारी 2000 ह्या वर्सा मरण आयलें.

# केसरबाय केरकार

- संगीत



केसरबाय केरकार हांचो मूळ गांव केरी फोंडें. तांचो जल्म एका संगीत घराण्यांत 13 जुलाय 1882 दिसा जालो. तांचे आवयचें नांव भीमाबाय आशिल्लें. ल्हानपणां सावन तांकां संगिताची आवड आशिल्ली. गोड आवाजाची देणगी तांकां जल्मजात मेळिल्ली. जात्रेच्या दिसांनी जावपी गवळण कालो ह्या नाटकुल्या सारक्या कालो प्रकारांत केसरबाय कृष्णाची भुमिका करताल्यो, आनी ते भुमिकेंतलें तांचें गायन आयकुपा खातीर शेजारच्या गांवांतल्यान लोकांची गर्दी जाताली.

केसरबायक शास्त्रीय संगीत शिकपाची उपाट इत्सा आशिल्ली. त्या काळांत नामनेचे गायक पं. वझेबुवा, लामगांव गांवांत श्रीमंत लामगांवकार देसाय हांगेर रावताले. थंय बुवाकडेन संगिताचें शिक्षण घेवपा खातीर त्यो आवय वांगडा बिराड करून त्या गांवांत रावपाक गेल्यो. सुमार दोन वर्सां ताणीं बुवाकडल्यान तालीम घेतली. उपरांत बुवाक भोंवडेर वच्चें पडिल्ल्यान तांची तालीम बंद जाली. ह्या वेळार केसरबायची पिराय सुमार इकरा वर्सांची आशिल्ली. संगिताचें शिक्षण घेवपाची तळमळीक लागून आनी तांची वेवस्था जावची म्हूण केरकार कुटुंब 1908 वर्सा मुंबय गेलें.

मुंबयंत त्या काळांत सतार, पखवाज आनी गायन हे कलेंत फिशालकाय जोडिल्ले बरकतुल्ला खाँ हांचें नांव गाजतालें. तांचे कडल्यान तालीम मेळोवप भोव कठीण आशिल्लें. पूण केसरबांयचो ताळो, लय आनी गायन पळोवन तांणी तांकां तालीम दिवपाचें मान्य केलें. ही तालीम केसरबायक अखंड पांच वर्सां मेळ्ळी. फुडें खाँ सायबाक पतीयाळा संस्थानाचो दरबारी गायक म्हूण नोकरी मेळिल्ल्यान ही तालीम बंद जाली.

बरकतुल्ला खाँ कडल्यान घेतिल्ले लयप्रधान गायकीचो उपेग केसरबायक आपल्या जिवितांत संगितांतली उदरगत घडोवन हाडपाक जालो. तांची मुखार जी

प्रगती जाली, तातूंत बरकतुल्ला खाँ चो म्हत्वाचो वांटो आसा. शिक्षण बंद जालें तरिकूय केसरबायची शिक्षणाची तळमळ वाडत आशिल्ली. व्हड यत्नांनी तांका फकत देड वर्स भास्कर बुवा बखले कडेन शिक्षण मेळ्ळें. पूण पुण्यांत क्लास सुरू जाल्ल्यान तांकां थंय वच्चें पडलें.

भास्करबुवा केसरबायक शिकयतना तांचे गुरूजी खाँ साहेब अल्लदिया खाँ, हे केसरबायगेर दोन फावटी पाविल्ले. तेन्ना केसरबायची तांचे कडेन वळख आशिल्ली. तांचे कडल्यान शिक्षण घेवपाची उपाट इत्सा आशिल्ल्यान संगिताचे शौकीन लालादूलीचंद, छत्रपती शाहू महाराज आनी बिठ्ठलदास द्वारकादासा वतीन विनंती करून कांय अटींचेर खाँ सायबान केसरबायक शिश्य म्हूण मान्यताय दिली आनी 1925 वर्सा संगितांतल्या व्हड जाणकारांचे उपस्थितीत गंडाबंधन सुवाळो मोट्या दबाज्यान जालो.

खाँ सायबाकडेन अखंड तालीम घेवन केसरबायन जयपूर घराण्याची खरी गायकी खोलायेन आपणायली. संगिताचो रियाज सकाळ सांजवेळ चलतालो. केसरबायक 1920 ते 1945 ह्या 26 वर्सांच्या काळांत खाँ सायबाचें मोलादीक मार्गदर्शन मेळ्ळें. ताणीं ह्या काळांत, कितल्योश्योच उंचेल्या पांवड्याच्यो मैफली केल्यो. संगितांतल्या जाणकारांनी तांच्या गायनाची उपाट तुस्त तोखणाय केली. केसरबायचे खूब भोवमान जाले. एप्रील 1938, कोलकाताच्या नागरिकांकडल्यान तांचो व्हड भोवमान जालो. तांकां रवीन्द्रनाथ टागोर हांणी स्वहस्ताक्षरांत पत्र धाडून 'सूरश्री' ही पदवी दिली. तांकां दिल्लीची सरकारी सनद मेळ्ळी. 1950त व्हड प्रतिश्ठेचो 'पद्मभुषण' पुरस्कार मेळ्ळो. महाराष्ट्र सरकारान तांकां राजगायिकेचो भोवमान दिलो.

गोंयची धूव शास्त्रीय संगिताची सम्राज्ञी केसरबायचो भोवमान करपाक गोंयकारांचे वतीन गोंय सरकारय फाटीं रावलें ना. मलबाराव सरदेसाय हांचे अध्यक्षताये खाला गोंयकारांनी तांचो व्हड भोवमान केलो. दर वर्सा केसरबाय केरकार हांचो भोवमान म्हूण गोंयांत सरकारी पांवड्यार 'सूरश्री' केसरबाय केरकार स्मृती संगीत समारोह हो संगिताचो उत्सव जाता. ह्या उत्सवांत भारतांतले नामनेचे संगीतकार, गायक कलाकार हाजेरी लायतात.

सैम सोबीत केरी गांवांत जल्म घेवन, फक्त शास्त्रीय संगिताच्या ध्यासान, खडतर परिश्रम घेवन किर्तीवान जाल्ल्यो केसरबाय, आपल्या नांवां बराबर गोंयचें नांवूय ताणीं व्हड केलें. केरी गांवांत केसरबायची सदांच याद दिवपी 'सूरश्री केसरबाय केरकार' ह्या नांवाचें एक माध्यमीक स्कूल आसा. अशा ह्या महान कलाकाराक 1946 वर्सा देवाचें आपोवणें आयलें.

# खाप्रू पर्वतकार

- संगीत



आधुनीक सुखसोयी नाशिल्लो आनी पर्वताच्या माथ्यार वशिल्लो पर्वत गांव. श्री चंद्रश्वराचें देवूळ आनी देवळाचे आशीकुशीक शिंपडिल्ली सुमार 15 घरां हीच ह्या पर्वत गांवची वसाहत. पूण हांगाच्या दरेक घरांत श्री चंद्रश्वराचें कृपेन असामान्य आनी असंख्य अशे नामनेक पाविल्ले कलाकार दिले.

लय भास्कर श्री खाप्रूजी पर्वतकरांचो जल्म ह्या पर्वतार जाल्लो. तांचें पाळण्यांतले नांव 'लक्ष्मण' पूण तांचे आवयन अपुरबायेन 'खाप्रू' अशें नांव दवरलें आनी फुडें हेंच नांव सगळ्यांच्या तोंडार घोळ्ळें. त्याच नांवान ते फामाद जाले.

पाड्डें गांवाक लागीं आशिल्लो पूण दोंगरार वशिल्लो पर्वत गांव एका काळार कलेची खण आशिल्ली हें आमचे पिळगेक सांगल्यार पटत काय दुबाव. ह्या पर्वतार कलावंत समाजांत तिनी त्रिकाळ गायन, वादन, नृत्याचो जल्लोश चलतालो. नेमान वाजपी वाद्यांकडेन भुरग्यांची नाळ जुळटाली. ज्या वाद्याक भुरगें हात लायतालें तें वाद्य तांका वश जातालें.

भुरगेपणांत खाप्रूमामाचें लक्ष सारंगीकडेन गेल्ल्ल्यान तांकां सारंगीचें विलक्षण प्रेम निर्माण जालें. आनी तांणी सारंगीचें शिकप आपले मामा श्री रघुवीर पर्वतकार आनी पखावाजाचें मुळावें शिकप तांचे बापोलये श्री हरिश्चंद्र आनी रामकृष्ण पर्वतकरांकडल्यान घेतलें. ते मनां पसून शिकून घेताले.

तबल्याचें शिकप चालू आसतना तांकां लयीचें पिशें लागलें. लयीचें पिशें तांच्या रगताच्या थेंबा थेंबांत रिगलें. तातूंत खाप्रूमाम इतले रमले की उठ्ठना, बसतना, जेवतना, खातना, घरांत, भायर लयलीन जाले. खंयच्याय तालाचो एक कठीण प्रस्न घेवन ते दिसांचे दीस सप्तक आनी म्हयने विचार आनी मनन करूंक लागले आनी सतत शिकत रावले.

1919 वर्सा आयोजीत संगीत परिशदेंत सर्गेस्त पं. विष्णू दिगंबर पलुस्करां

मुखार खाप्रूमामांनी पयली कार्यावळ केली. हे कार्यावळींत विद्वान तबलजी आनी पखवाज वाजोवपी आसले. तांणी सगळ्यांनी मानाचो मुजरो केलो. खाप्रूमामांची उमेद वाडत गेली. संगीत सम्राट खाँ सायब अल्लादिया खाँ, खाँ सायब विलायत हुसेन खाँ, अफताबे मुसी की फैयाझ खाँ आनी भारतांतले नामनेचे गायक, वादक आनी तबलजींची 1933 वर्सा मुंबयंत एक व्हड मैफल भरिल्ली. ते मैफलींत खाप्रूमामांची फकांडां करपाचे हेतून तांकां 'तुमी बारा मात्रांचो तेरा समान करून बारा मात्रांचे लयींत ठेको धरपाक शकतात? असो प्रस्न केलो. तांणी सांगिल्लो ठेको तर धरलोच ते बराबर तेरा मात्रांचो 'तिहायी'च्या ठेक्याची भर घालून ठेको पुराय करून दाखयतकच सगळ्यांची दांतखिळीच बसली.

1939 त मुंबयच्या कलाकारांनी अध्यक्ष खाँ सायब अल्लादिया खाँ च्या हातांतल्यान खाप्रू मामांचो संगीत साधने खातीर भोवमान सुवाळो घडोवन हाडिल्लो. तेन्ना खाँ सायबान तांका 'लयब्रह्म भास्कर' अशी पदवी दिवन, जल्मभर केल्ल्या साधनेचो किताब दिलो.

असो हे लयभास्कर सभावान मोगाळ आनी नम्र आशिल्ले. कोणेंय एक मुखडो शिकय म्हणल्यार पांच शिकयताले. आपलें गिन्यान कोणेंय चोरीत हाचो तांकां भंय नाशिल्लो. लयशास्त्राचो इतलो विद्वान निदान भारतांत तरी जल्मल्लो आयकूंक येना. लयीचें अंतरंगच न्हय तर अंतरंगाचो कीस काडून तांणी सिद्धी प्राप्त करून घेतिल्ली.

जांणी तांकां पळयला आनी आयकला ते खरेंच भाग्यवान. खांप्रूजी सारके कलावंत क्वचीतच जल्माक येतात आनी आपले कलेचो उजवाड घालतात. तांणी जी कला संपादिल्ली ती जर ग्रंथ रूपांत उरिल्ली जाल्यार आयचे पिळगेक उपेगाक येतली आशिल्ली. पूण तशें घडलें ना आनी तांची थक्क करपी कला सोंपली.

ह्या अभिजात ऋषी समान कलावंताक 3 सप्टेंबर 1953 वर्सा देवाचें आपोवणें आयलें आनी ते अनंतात विलीन जाले.

# दीनानाथ मंगेशकर

– संगीत आनी नाट्य



दीनानाथ मंगेशकार हे नामनेचे मराठी गायक आनी नट. तांचो जल्म सैम सोबीतकायेन नटिल्ल्या आनी मंगेश देवाचो वसो घेतिल्ल्या मंगेशीं गांवांत 29 डिसेंबर 1900 वर्सा जालो. तांचें घराणें मंगेश देवस्थानाचे सेवेंत आशिल्लें.

नामनेची पार्श्वगायिका लता मंगेशकार, आशा भोसले, मीना खाडिलकार, उषा मंगेशकर आनी हृदयनाथ मंगेशकार हीं तांचीं भुरगीं.

तांचें पुस्तकी शिक्षण चड जालें ना. ल्हान आसतना शाळेंत गेले, पूण तेरा वर्सांचे आसतनाच तांणी नटाचो पेशा आपणायलो. फुडल्या जिवितांत तांणी संस्कृत, हिंदी, उर्दू भाशा तशेंच संगीत आनी ज्योतीश आदीं विशयांचो खोलायेन अभ्यास केलो.

मुळांतच उंच पट्टेचो, खणखणीत आवाज ही सैमीक देणगी तांकां लाबिल्ली. हाका लागून तांची नामना त्या काळांतल्या सगळ्या नांवाजिल्ल्या नाट्य संस्थांच्या कानार गेल्ली. ताका लागून ह्या नाट्यसंस्थांची दीनानाथाक आपले संस्थेंत घेवपाक सर्त लागिल्ली.

पूण प्रतिश्ठा आनी लोकप्रियतेन गाजपी किर्लोस्कर मंडळींत दीनानाथ गेल्यार तांच्या गुणांचें सार्थक जातलें, असो सल्लो दादा वैद्य, मंगेशराव देशपांडे आनी दुर्गा भटजी ज्योतिशी ह्या प्रतिश्ठीत लोकांनी दिल्ल्यान किर्लोस्कर मंडळीचें आमंत्रण आपणावचें अशे तांचें आवयन थारायलें. अशेतरेन सान पिरायेर 1913 वर्सा किर्लोस्कर मंडळीच्या म्हापशें हांगा, करार करून दीनानाथाचे नाट्य जिणेक सुरवात जाली.

किर्लोस्कर मंडळीन गोंया सावन वतना बेळगांवां केल्ल्या मुक्कामांत 'शारदा' नाटक केल्लें. ह्या नाटकांत दीनानाथांनी केल्ली 'वल्लरीची' भुमिका हें तांचें वेवसायीक रंगमाचये वयलें पयलें काम. उपरांत तांच्यो 'ताचे वफा', 'कांटों में फूल' ह्या हिंदी-उर्दू नांटकांतल्यो भुमिका खूब लोकप्रिय थारल्यो.

आपल्या प्रसन्न व्यक्मिमत्वान आनी निर्भर गायनान तांणी रंगमाची गाजोवन सोडली. अच्युतराव कोल्हटकरान दीनानाथांक 'मास्टर' हें उपपद दिले.

किर्लोस्कर कंपनींतल्यान मा. दीनानाथ, चिंतामणराव कोल्हटकर प्रभृति नटसंच फुटून तांणी 1918 वर्सा 'बलवंत संगीत नाटक मंडळीची थापणूक केली. तांचे भितर 1920 वर्सा जाल्ल्या करारा प्रमाण दीनानाथ 'बलवंत'चे मुखेल भागीदार जाले. 1933 वर्सा मंडळी बंद करून सिनेमाच्या धंद्यांत वच्चे पयलीं, बलवंत मंडळीन नवीं-पोरणीं मेळून चोवीसेक नाटकां माचयेर हाडलीं.

दीनानाथाचीं सुरवेचीं 'किंकिणी' आनी उपरांत 'कालिंदीं' (पुण्यप्रभाव), 'तेजस्विनी' (संन्यस्त खड्ग) 'गौतम' (ब्रह्मकुमारी), 'शिवांगी' (राज सन्यास) हातुंतल्यो दादल्या बायलांच्यो भुमिका आनी तांचें स्वतंत्र वेगळे शैलीचीं पदां हांणी नाट्य रसिकांक भारावन सोडलें.

रागदारी वांगडाच शास्त्रीय संगितूय दीनानाथांनी स्वताच्या कश्टांनी आत्मसात केलें. पूण इतल्यानूच तांचें समादान जालें ना. तांणी केशवराव भोसले आनी बापूराव पेंढारकर हांचे गुरू गायनाचार्य रामकृष्ण वझेबुवा हांका तांणी आपले गुरू मानले आनी ऑगस्ट 1925 वर्सा बेळगांवा विधीपूर्वक वझेबुवाचो गंडो बांदलो.

दीनानाथ शास्त्रोक्त संगिता वांगडा नाट्य संगितूय स्वताचे स्वतंत्र आनी कल्पक शैलीतं गायताले. नाट्य संगितांत तांणी पंजाबी ढंग पयलीं हाडलो अशें मानतात. तांणी गझल, कव्वाली, ठुमरी गावन मैफली गाजयल्यो. आकाशवाणीच्या मुंबय केंद्रा वयल्यान वितरायल्लीं तांचीं पदां खूब लोकप्रिय जालीं.

श्रीमंत शंकराचार्यान दीनानाथांचो 'संगीत रत्न' म्हूण गौरव केलो. 1934 वर्सा 'बलवंत पिक्चर कॉर्पेरेशन' काडून तांणी सिनेसृश्टींत प्रवेश केलो. 'कृष्णार्जुन युद्ध' ही तांचो पयलो सिनेमा. ह्या सिनेमांत तांणी अर्जुनाची भुमिका केल्ली.

दीनानाथांक भारतीय ज्योतीश, रमल विद्या हांचो खोल अभ्यास आशिल्लो. तशेंच सारंगीवादन, कथ्थक नृत्य आनी कास (शिकार) हें तांचे आवडीचे छंद आशिल्ले.

लता, आशा, मीना, उषा आनी हृदयनाथ ह्या आपल्या भुरग्यांक संगिताची जाण, ओड, निश्ठा आनी व्यासंग निर्माण करपाक मा. दीनानाथ जैतिवंत जाले हें तांचे कडल्यान संगीत मळाक मेळिल्लें मोलादीक योगदान आसा.

अशा ह्या महान गायक आनी नटाक 24 एप्रिल 1942 वर्सा पुणे शारांत देवाज्ञा जाली.

# किशोरी आमोणकार

– संगीत



एक नामनेची हिंदुस्तानी शास्त्रीय संगीत गायिका. जयपूर घराण्याची नामनेची गायिका गानतपस्विनी मोगुबाय कुर्डीकार हिची धूव आनी शिश्या. तांचो जल्म 1931 वर्सा जाला. मुंबयच्या जयहिंद महाविद्यालयांत पदवी मेरेनचें शिकप. तांचें इंग्लिश, हिंदी, मराठी, उर्दू ह्या भासांचेर प्रभुत्व आसा.

ल्हानपणा सावन किशोरीक गायनाची आनी सुराची उपाट आवड आशिल्ली. आवय मोगुबाय हिचे कडसून ताणीं जयपूर घराण्याची गायकी मेळयली. खाँ साहेब अन्वर हुसेन खाँ, पं. गोपाळराव, मोहन पालेकार, पं. हुस्नलाल हांचे कडल्यान ताणीं शास्त्रीय संगिताचें शिकप घेतलें.

इंदोर आकाशवाणीन तांच्या गायनाचो जलसो घडोवन हाडल्या उपरांत अमृतसरच्या कांय सगीत मोग्यांनी तांची जाहीर कार्यावळ केली. तेन्ना सावन आयज मेरेन ताणीं देशांतल्या कितल्याशाच शारांनी आपणाल्या गायनाच्यो कार्यावळी सादर केल्यात. आकाशवाणी आनी दूरदर्शनाच्यो राष्ट्रीय कार्यावळी तशेंच संगीत संमेलनां हाचे वरवीं ताणीं श्रेश्ठ गायिका म्हूण नामना जोडल्या.

आपणाल्या गायन तपश्चर्येवांगडाच संगीत शास्त्रा वेल्या ग्रंथांचें वाचन, शब्द, काव्य, रस, भाव, सूर, ताल, लय, गुरू शिश्य परंपरा, घराणी, चीज, बंदीश, नृत्य, नाटक ह्या गजालींचें गिन्यान गावप्याक आसूंक जाय अशें तांचे मत आसा. उपाट वाचनान ताणीं आपलें गायन समृद्ध केलां. ख्याल मांडपाची तरा, अस्ताई, अंतरो, बोलतानो, द्रुत लयींतली चीज म्हणपाची खाशेली पद्धत अशे विंगड विंगड सोबीत अविश्कार तांच्या गायनांतल्यान दिसून येतात.

आपणाले आवय विशींचे गुरूभक्तीचो तांकां आदर आसा. 'स्वर होच ईश्वर' हो तांचो भावार्थ. शास्त्रीय गायना वांगडाच अशास्त्रीय गायन, ठुमरी भजन, भावगीत हे प्रकार गावपांतूय फिशाल आसात. 'गीत गाया पत्थरोंने' हें तांचें फिल्मी

गीत बरेंच गाजलें. पूण फिल्मांतल्यान गावप हे आपलें ध्येय न्हय हें जाणून ताणीं तो मार्ग सोडलो. संत ज्ञानेश्वराच्या जिविताचेर 'तोचि नादू सुस्वरू आला' आनी मीरेच्या भजनां वयलो 'म्हारो प्रणाम' हो कार्यक्रम तांच्या ईश्वरभक्तीची गवाय दिता.

ताणीं देश विदेशांत आपणाल्या गायनान उपाट कीर्त मेळयल्या. 1958 वर्सा 'फॅस्टिव्हल ऑफ इंडिया' कार्यावळी वरवीं अमेरिकेंत 'लिंकन थिएटरांत' तांचें गायन जालें. पारिसांत विंटर फॅस्टिव्हलांत गावपाचो भोवमानूय तांकां फावो जाला. 1986 वर्सा संगीत नाटक अकादेमीन तांचो भोवमान केलो. 1987 वर्सा भारताच्या राष्ट्रपतीं कडल्यान 'पद्मभूषण' ही पदवी तांकां फावो जाली. 1887 वर्सा तांकां 'यंग इंडियन' हो पुरस्कार फावो जालो.

'गोमंतक मराठा समाज' - मुंबय हांणी मानपत्र दिवन तांचो गौरव केला. 'गोमन्त विद्या निकेतन' (मडगांव) हे संस्थेन तांकां आजीव सभासदाचो मान दिला. 1987 वर्सा 'वनिता समाज' मुंबय तशेंच 'वसंतराव नाईक' पुरस्काराचो मान तांकां फावो जाला.

तरणे पिळगे मदीं शास्त्रीय संगिताची आवड निर्माण करपाक तांकां येस आयला. स्वरांतली सिद्धी, अणभव, चिंतन आनी अभ्यास हाका लागून तांचें गायन संपन्न जाला. गायन विद्ये भायर त्यो एक बऱ्या पैकी कवयित्री. तशेंच चित्रकाम आनी रांगोळेचे कलेंतूय त्यो प्रवीण आसा.

मानभौमान, लोकप्रियता आनी उपाट येस मेळयल्ली ही प्रज्ञावंत गोंयकार गायिका आयज आंतरराष्ट्रीय नामनेची एक म्हान संगीत जाणकार म्हूण तोखणायेक पात्र थारल्या.

सांगे म्हालांतल्या कुडीं पंचायत क्षेत्रांतल्यो मोगुबाय एक गानतपस्वी. जावं संगीत जावं नाट्य कला ती साध्य करचे पसत सतत साधना करची पडटा. मोगुबाय कुर्डीकारांनी साधनेच्या फाटल्यान धांवचे पसत खूब कश्ट सोंसल्यात. पूण तातूंतल्यान 'किशोरी आमोणकरा' सारक्या कलाकाराक जल्म दिवन मोगुबायच्या जिविताचें सार्थकच जालां म्हणल्यार अतिताय जावचीं ना.

आपल्या शिश्यांक सतत उर्बा, उत्तेजन दिवपी, प्रसंगार शिस्तिचो बडगो दाखोवन, पूण सतत मायेची पोसवण दिवपी आदर्श गुरू अशी श्रीमती किशोरी आमोणकारांची ख्याती आसा.

# आशालता बाबगांवकार

– अभिनय



आशालता बाबगांवकार फाकिवंत गोंयकार हिंदी आनी मराठी सिने आनी नाट्य अभिनेत्री. तांचो जल्म 1939 त काणकोण तालुक्यांतल्या लोलयें गांवांत जाला. मुखा वयलें शिकप घेवचे पसत त्यो मुंबयत आयल्या उपरांत तांणी एम.ए. मेरेनचें शिक्षण पुराय केलें. वाचनांतल्यान आनी समाजांत वावुरतना नित्य नेमान मेळिल्ल्या अणभवांतल्यान तांचे जिवीत घडत गेलें.

नाट्यसृष्टींतल्यान अभिनय कारकिर्दीक सुरवात करचे पयलीं त्यो 'ऑल इंडिया रेडियो'च्या कोंकणी विभागांत पदां म्हणटाली. मुदलांत तांचो आवाज गोड आनी म्होंवाळ, तातूंत जल्मजात अभिनयाची आवड तांकां आसली.

तांच्यातले हे गूण पारखून त्या वेळा वयले रेडियो अधिकारी आशिल्ले विष्णु नायक हांणी तांच्या नांवाची शिफारस, रामकृष्ण नायक हांचे कडेन केली. नायक हे त्या वेळार 'धि गोवा हिन्दू असोसिएशना' चो कला विभाग सांबळटाले. ते संस्थेक 'संशयकल्लोळ' ह्या नाटकांत 'रेवती'ची भुमिका करपाक एका तरण्या पिरायेचे अभिनेत्रीची गरज आसली.

नायक आशालतांच्या घरा कडेन गेले आनी तांणी आवयक समजावन तांकां संस्थेंत हाडलें. कलाकारांक वेंचूल काडपी रंगमाचये वयले नामने गोंयकार गायक-अभिनेते गोपीनाथ सावकार हांणी आशालतांक पळयतनाच तांकां नाटका खातीर वेंचलें.

आशालतान धि गोवा हिन्दू असोसिएशनान 'शारदा' आनी 'मृच्छकटिक' ही दोन नाटकां राज्य सर्ती खातीर केलीं. 'शारदा'तल्या भुमिके खातीर तांकां वैयक्तिक अभिनयाचो राज्य पुरस्कार लाबलो.

नाटककार वसंत कानेटकारांनी आशालतांक नदरे मुखार दवरूनच 'मस्यगंधा' नाटक बरयल्लें. तातूंत आशालताची 'गर्द सभवती रानपाखरे तू तर चाफेकळी' हें अल्लड, 'अर्थशुन्य भासे मज हा कलह जीवनाच' हें गंभीर, पदां

गावपी मस्यगंधा (सत्यवती) नाट्य रसिकांक खूब भावली आनी पदां गाजलीं.

त्या उपरांत तांणी 'चंद्रलेखा' संस्थे वतीन 'गरूडझेप' 'गुडबाय डॉक्टर', 'तरूण तुर्क म्हातारे अर्क' ही नाटकां गाजयलीं. वसंतराव देशपांडेच्या (पु. ल. देशपांडेचें) वाऱ्यावरची वरात' हातूंतली कजाग कवठेकर काकू जे सहजताये तांणी सादर केली तेच सहजतायेन साहित्य संघा वतीन जाल्ल्या 'भाऊबंदकी'तली आनंदीबाई आपल्या अप्रतिम अभिनयान तांणी जिवी तट्‌टटीत केली.

ओजस्वी आनी म्होंवाळ उत्तर, शालीन मुखामळ, मनाक भिडपी नदर आनी दोळे हीं आशालतांचीं मुखेल अस्त्रां. ह्याच म्हालवजार तांणी सिने आनी नाट्य सृश्ट गाजयल्या. तांच्या नांवार आनीक दोन मुखेल अश्या नाटकांची नोंद आसा. 'छित्र' नाटकांतल्या मुखेल भुमिकेची मानसीक गुंतागूंत तांणी अप्रतिम रितीन साकार केल्या.

'गुंतता हृदय हे' नाटकांतली 'कल्याणी'ची भुमिका नाट्य कलाकार पद्मा चव्हाण हांणी गाजयल्ली आशालतान ही आव्हानात्मक भुमिका आपणावन ते भुमिकेक वेगळो आयाम दिवपाचें धाडस पेल्लें आनी जैतिवंत जाल्यो.

आपल्या अभिनयाचें खाशेलेंपण तांणी वेगवेगळ्या नाटकांतल्यान नाट्य रसिकां मुखार दवरलां. देखीक 'होनाजी बाळा'तली 'गुणवंती', सौभद्रांतली 'रुक्मिणी', 'भावबंधनांतली लतिका', 'रायगडांतली येसूबाई', 'गरुडझेपांतली जिजामाता'.

नाट्यसृष्टींतल्या जैतिवंत कारकिर्दीक लागून आशालतांक चित्रपट सृश्टींत सहज येवकार मेळ्ळो. अमोल पालेकार-शबाना आझमीच्यो मुखेल भुमिका आशिल्लो 'अपने-पराये' हो तांचो पयलो सिनेमा. तातूंत तांणी चरित्र अभिनेत्रीची भुमिका केल्ली. त्या उपरांत तांणी खुबश्या हिंदी सिनेमांनी चरित्र भुमिका केल्यात. त्यामानान मराठी चित्रपट सृश्टींत तांकां फावो सारके येस लाबूंक ना. 'माहेरची साडी', 'गंमत-जंमत' ह्या चित्रपटांत तांणी अभिनय केला.

आशालतांचे कश्ट, जिद्द आनी आव्हान ह्या गुणांच्या म्हालवजार तांणी आयजवेर येस हातासलां. आपलें काम प्रामाणिकपणान आनी जापसालदारकेन हाताळप हें त्यो आपलें पयलें कर्तव्य अशें मानतात. सर्तीच्या युगांत तांणी आपली सुवात ह्याच गुणांच्या आदारान सुगूर केल्या. जैतान त्यो केन्ना अहंकारी जावंक नात अनी पराभवनन हताश जावंक नात. स्वाभिमान तांचे ठांय भरिल्लो आसा. आतं जरी नाट्यक्षेत्रां पसून त्यो पयस पावल्यात तरी रंगदेवतेनच आयची आशालता घडयल्या म्हणून त्यो नाट्य रंगभुंयेचें ऋण मानतात.

आशालतांच्या नाट्य सृश्टींतल्या अपूर्व योगदाना खातीर नाट्यपरिशदेन 2005त तांचो 'जीवन-गौरव' पुरस्कार दिवन सन्मान केला.

# अंजनीबाय लोलयेंकार

– संगीत



8 सप्टेंबर 1930 ह्या दिसा अंजनीबायचो जल्म लोलयें, काणकोण हांगा जालो. तांचो घराबो खूब व्हडलो. तीं सगळीं मेळून धा भांवडां. सगळ्याकच गायनाची गोडी. ताका लागून भुरगेपणां सावन तांचेर संस्कार जाले तेय कलात्मक. पिरायेच्या आठव्या वर्सां सावन तांकां शास्त्रोक्त गायनाची गोडी लागली.

त्यो सुमार चार वर्सांच्यो आसतनाच तांचो घराबो मुंबयत स्थायिक जालो आनी म्हणूनच तांचें भुरगेपण मुंबय गेलें. मुळाव्या शिक्षणा वांगडाच तांचो ओढो शास्त्रीय गायना कडेन दिसूंक लागलो. तांचो व्हडलो भाव सुप्रसिद्ध गायक वझेबुवा हांचे पट्टशिष्य हरिभाऊ घांग्रेकर हांचे शिष्य आनी ग्वाल्हेर घराण्याचे फाकिवंत गायक आशिल्ले. दुसरे भाव उत्कृश्ट तबलजी आशिल्ले.

गुरूवर्य हरिभाऊ आंग्रे आनी गुरू समान आशिल्ल्या भावांच्या अथक परिश्रमांतल्यान अंजनी बायच्या निजाच्याच सुरेल आवाजाचेर ग्वाल्हेर घराण्याचे संस्कार घडले आनी सतत बारा वर्सांच्या श्रमान पिरायेच्या चवदाव्या वर्सा इंडियन सर्कला वतीन 'ऑपेरा हावजा' लागीं लक्ष्मी बागेंत जाली. रसिकांच्या भरपूर प्रतिसादाक लागून तांची ती बैठक अस्मरणीय थारली. आनी तांकां सतत बैठकीचीं निमंत्रणां मेळत गेलीं.

पिरायेच्या एकविसाव्या वर्सा अंजनीबायन 'आंतरराष्ट्रीय म्युझिक ऑफ कलकत्ता' हे श्रेश्ठ संस्थेंत प्रवेश मेळयलो आनी दोन वर्सां शिक्षण घेवन आपल्या मूळ गायकीचेर आनीक बरो साज चडयलो. देशभर तांणी आपल्यो मैफिली रंगयल्यो. दिल्ली, मद्रास, कलकत्ता, पुणे, अहमदाबाद, गोंय, सुरत, ग्वालियर, हुबळी, धारवाड आनी हेर कितलेशेच सुवातींनी अंजनीबायचें गायन आसा म्हणनाफुडें सगळे रसिक उमेदीन भरताले.

म्हैसूर हांगासर तानसेन समारोह कार्यक्रमांत त्यो जीव ओतून गायल्यो. ह्याच सुमाराक तांच्या जिवितांत एक म्हत्वाचो बदल घडून आयलो. मुंबयतलेच एक गिरेस्त आनी गायनाचे भोक्ते बाबुभाई बँकर तांच्या जिवितांत आयले. तांचे बरोबरीन अंजनीबाय आग्रा घराण्याचे गायक अन्वर हुसेन खाँसाब हांचे कडेन त्यो गाणे शिकूंक लागल्यो.

गुरू गोविंदराव अग्नि हांचेय तांकां मार्गदर्शन लाबलें. मूळ सुसंस्कारीत अशा ग्वालेर घराण्यांचो स्वर साज चडलो. सततच्या रियाजान तांचेकडेन खाशेल्यो बंदिशी आनी चीजो हांची तिजोरीच निर्माण जाली.

स्वतंत्र अश्या मैफलींचें सादरीकरण करतनाच त्यो सतत 25 वर्सां आकाशवाणी खातीरय गायल्यात. दूरदर्शनाचेरय तांणी कार्यावळी सादर केल्यात. प्रसन्नचित्तान गायन सादर करून तांणी रसिकांची दाद मेळयल्या. तांणी आपले कलेक बाजारू स्वरूप केन्नाच येवंक दिवना.

अंजनीबायक सामाजीक बांदिलकेची मुळासावन जाण आसली. सामाजीक संस्था, सरंक्षण खातें, रेडक्रॉस अशा खूब संस्थांक तांणी आदार केला. गरजेवंत, विद्यार्थी, कलाकार हांकांय सदांच अर्थीक आदार दिला. गोमंतक मराठा समाज, धि गोवा हिंदू असोसिएशन ह्या संस्थांक आपल्यो मानल्यात. बिहार भूकंप ग्रस्त, लोलयेंचें दामोदर विद्यालय, पैंगिणीचे श्रद्धानंद विद्यालय हांच्या मजती खातीर त्यो गायल्यात.

काणकोणच्या जे.सी.क्लबान त्या वेळा वयले मुख्यमंत्री प्रतापसिंग राणे हांचे हस्तुकीं तांचो सत्कार घडोवन हाडलो. गोमंतक मराठी अकादेमीन तांकां मानद अधिसदस्यत्व प्राप्त करून दिलां. अशा ह्या गान सम्राज्ञीक 21 नोव्हेंबर 2001 ह्या दिसा मुंबयत मरण आयलें.

तांच्या यादी खातीर काणकोण कलाकार संघ, दर वर्सा श्रीमती अंजनीबाय लोलयेंकार यादस्तीक संगीत संमेलन घडोवन हाडटा.

# नाना शिरगांवकार

- संगीत



नाना हांचो जल्म 9 नोव्हेंबर 1938 वर्सा पेडणें म्हालांतल्या कासरवणे गांवांत जालो. नानांचें खरें नांव नारायण, पूण लोकांनी फामाद केलें तें नांव म्हणल्यार नाना शिरगांवकार.

जल्मजात संगिताची आवड आशिल्ल्या नानांक तांच्या बापायच्या मनोहरबुवाच्या रुपान श्रेश्ठ संगीत गुरूंचो सांगात लाबलो. तांच्या मार्गदर्शना खाला तांणी संगिताचें मुळावें गिन्यान आत्मसाथ केलें. तशेच आजो मुकुंद शिरगांवकारांचेंय तांकां मुळावे धडे गिरोवपाक आदार जालो.

आत्मसाथ केल्ल्या शिक्षणाच्या म्हालवजार नाना गांवांत आनी आशीकुशीकच्या वाठारांत ल्हान-ल्हान संगीत कार्यावळींत वाटेकार जावंक लागले. खास करून गांवच्या भजनी मंडळाचे कार्यावळीत ते उमेदीन समरस जाताले. अशेतरेन सान पिरायेचेर तांकां भजनाची गोडी निर्माण जाली आनी आशीकुशीकच्या वाठारांत ल्हान-ल्हान संगीत कार्यावळीत ते उमेदीन समरस जाताले. सान पिरायेचेर तांकां भजनाची गोडी निर्माण जाली आनी मनोहरबुवाच्या आदारान ती वाडीक लागली. मनोहरबुवा तांकां आपले बरोबर विंगड-विंगड गांवांनी भजनांच्या कार्यावळींक व्हरताले.

संगिताचे कार्यावळींनी वांटेकार जातना ताणी संवादिनी आनी पखवाज वादनाची कला मनोहरबुवा कडल्यान मेळयली. जेन्ना आपले संगीत कलेक शास्त्रीय बसका कमी पडटा हें तांकां जाणवलें तेन्ना ताणी श्रीपाद माडये गुरूजींकडेन शिकप सुरू केलें आनी तांच्या समर्थ मार्गदर्शनाखाला अखिल भारतीय गांधर्व महाविद्यालयाचे 'संगीत विशारद' मेरेनचें शिक्षण पुराय केलें.

मनोहरबुवाकडल्यान घेतिल्लें मुळावें संवादिनी शिकप नानांनी जेश्ठ आनी श्रेष्ठ संवादिनी वादनक पं. सखारामबापू बर्वे हांच्या मार्गदर्शना खाला पुराय केलें. तांच्या सततच्या अध्यायनान तांची संगिताची बसका चड घटमूठ आनी तेजस्वी

जाली. तांच्या अध्ययनाचो प्रभाव तांचे भजनाचे गायकींत दिसून आयलो आनी भजनी रसिकांनी तांकां भरभरून दाद दिली.

नानांनी खुबशे कलाकारांक संगिताची साथ केल्या. देखीक खास अशी नांवां - मनोहरबुवा शिरगांवकार, रामनाथ मठकार, गोविंद वेर्लेकार, नरहरीबुवा वळवईकार, दत्ताराम वळवईकार, हांचे बरोबर तांणी भजनाच्यो कार्यावळी केल्यात. तशेंच शास्त्रीय संगिताचे बसकेंत नानान खुबश्या मानादिकांक संवादिनीची साथ दिल्या. देखीक पं.वि.रा. आठवडे, पं. बबनराव हळदणकर, पं. जितेंद्र अभिषेकी, पं. राम मराठे, पं. माधव गुडी, पं. मालिनी राजूरकर, पं. अरविंद पिळगांवकर, रजनी जोशी आशा खाडिलकार.

मदल्या काळार गोंयांत संगीत रंगमाची फुलून आयली. ताका लागून नानांक गांवागांवांतल्यान नाटकां बसोवचे पसत दिग्दर्शना खातीर आमंत्रणां येवपाक लागलीं. सुसभावी नानान अश्या आमंत्रणांचो मेकळ्या मनान आस्वाद घेतलो, आमंत्रणाचो आदर राखून तांणी संगीत रंगमाचयेची काळजा सावन सेवा केली. कलाकार घडयलें.

आपले आयुश्यांतलीं पांच दसकां परसय चड काळ तांणी एक वादक, गायक, संगीत शिक्षक, दिग्दर्शक, जाणकार तज्ञ अश्यो वेगवेगळ्यो भुमिका सादर करून संगिताचे मळार भरभरून योगदान दिलां. असंख्य शिश्यवर्ग निर्मिलो.

भजन हो तांचो आवडीचो विशय आसलो. भजनाच्या मळार तार्णी केल्ली सेवा तोखणाय करी सारकी आसा. खडेगांठ गायक, खडेगांठ संवादिनी वादक तशेंच कोणूच तांचो हात धरूंक पावचोना अशेतरेचे पखवाज वादन. विद्यार्थ्यांक भावपी उत्तम तशेच शिश्यप्रिय गुरू.

भजन म्हणचे फकत संतांनी रचिल्लें काव्य नासून तातूंतल्यान ताणी दिल्लो प्रेमाचो, मायेचो संदेश अशें नाना मानताले आनी तांचें वागपूय तशेंच आसलें. ताल-लय-स्वर, भक्तीसंगीत आनी नाट्यसंगीताची सोबीतकाय तांच्या काळजांत भरभरून आसा काय असो भास निर्माण जातालो.

कलेच्या मळार व्हड नामना मेळयल्लें नाना सदांच निगर्वी आनी सुसभावी आसले. आपलें व्हडपण दाखोवपाचो यत्न तांणी केन्नाच करूंक ना. ल्हानांतल्या ल्हान कलाकारांकडेन लेगीत ते तितलेच आत्मियतेन वागताले.

तांच्या कार्याची दखल घेवन 1 मार्च 1997 वर्सा गोमन्तक मराठी अकादमीन तांकां मानद अधिसदस्यत्व दिवन सत्कार केला. तिसऱ्या अखिल गोमंतक भजनी संमेलनाचे ते संमेलनाध्यक्ष आसले. बरीच वर्सां ते आकाशवाणी कलाकार म्हणून आसले. कला अकादमी सारक्या सर्वोच्च संस्थे खातीर तांणी व्हड

योगदान दिलां आनी भजन सर्ती, कार्यशाळा आनी अन्य कार्यावळींच्या निमतान तांचे संबंद चड लागींचे आसले. कला अकादमीच्या भजनसर्तीचे परिक्षक म्हणूनय तांणी काम केलां.

गेल्लीं पन्नास वर्सा गोंयच्या जनमानसाचेर आपल्या भजन, गायन आनी संवादिनी वादनान मोहिनी घालपी तशेंच शेंकड्यांनी भजनी कलाकार, गायक, वादक निर्मुपी नाना 16 डिसेंबर 2011 वर्सा ह्या संवसाराक अंतरले.

# तुकाराम फोंडेकार

– संगीत



तुकाराम फोंडेकार हांचो जल्म दुर्गाभाट, फोंडें हांगा 7 एप्रिल 1922 वर्सा जालो. तांचें मुळावें शिकप खासा तांच्या बापाय कडल्यान तांणी घेतलें. पेटी वाजोवपाची विद्याय तांणी आपल्या बापाय कडल्यान आत्मसाथ केली. बापूयच तांचे गुरू जावन आसले.

तुकाराम फोंडेकार हांच्या बापायचें पेटी सारक्यो करपाचें दुकान आसलें, आनी म्हणूनच तांणी आपल्या बापाय कडल्यान पेटी सारक्यो करपाचें काम शिकून घेतलें आनी तोच तांचो वेवसायीक पद्धतीन पेटी वाजोवपाचें काम सुरू केलें.

सुरवेची पांच वर्सा तांणी फोंडें म्हालांतल्या खेड्यांनी, गांवांनी शिमग्याची तालगडी आनी नाटकांनी पेटी वाजयली. उपरांत तांकां संगीत दिग्दर्शक म्हूण आमंत्रणां येवपाक लागली. श्री पाईकदेव शिगमोत्सव नाट्य मंडळ, सांगें हांगा 1938 वर्सा सावन ते थंयच्या नाटकांक चाली लावपाचें काम करताले. थंयच तांची जयकृष्ण भाटीकार कडेन लागशिल्ल्यान भेट जाल्ल्यान तांच्या मार्गदर्शनाक लागून तुकाराम नाटकां बरोबर भजन आनी किर्तनाकय साथ दिवपाक लागले.

दामु अण्णा मालवणकरांच्या प्रभाकर नाट्य मंडळींत तुकाराम हांणी दोन वर्सां पेटी वाजयली. त्या कंपनीचे नामनेचे गायक कलाकार भार्गवराम आचरेकर हांचे कडल्यान तांणी पेटी वाजोवपाचें शिक्षण घेतलें. सखारामबापूच्या नाटक कंपनींतय तुकारामांनी साथ दिल्या. पेटी वाजोवप हो तांचो ल्हानपणा सावन छंद आशिल्ल्यान पेटये बगर दुसरो धंदो करप तांका जमलें ना. सुरवात धरून होच धंदो केल्ल्यान गोंयच्या खांचीं कोनशांतल्यान तांकां वर्सुकी उत्सवांतलीं नाटकां तशेंच भजन किर्तनाचीं आमंत्रणां येत रावतालीं.

जेन्ना ते कुडचडें गांवांत स्थायीक जाले तेन्ना तांणी पेटी वाजोवंक शिकोवपाचो वर्ग सुरू करून विद्यार्थ्यांक शिक्षण दिवपाक सुरू केलें. शास्त्रीय आनी सुगम संगितांत तांणी भार्गवराम आचरेकर, जयकृष्ण भाटीकार, रजनी जोशी,

कान्होपात्रा, बकुळ पंडित, विमल कर्नाटकी, जयश्री शेजवाडकर, मधुवंती दांडेकर, श्रीपाद नेवरेंकार, रामदास कामत अशा नामनेच्या गायक कलाकारांक साथ करून शाबासकी मेळयल्या.

महाराष्ट्रांतले नामनेचे गायक किर्तनकार डॉ. पटवर्धन राम पै बुवा, धागबुवा, कऱ्हाडकरबुवा, सुंदरबुवा, पारखीबुवा, ढोलेबुवा अशा खूब किर्तनकारांक तुकाराम हांणी साथ दिल्या आनी शाबासकी मेळयल्या. गोंय कला अकादमीच्या व्हड सर्तींनी संगिताची साथ दिल्या. कला अकादमीच्या भजनी सर्तीचे परिक्षक म्हूण तांणी खूब वेळ काम केला.

गोवा आकाशवाणीच्या वाद्य कलाकारां मदीं तांचो आसपाव आशिल्ल्यान तांकां आकाशवाणी वयल्या कलाकरांक वेळा वेळार साथ दिवपाक वच्चें पडटालें. कला अकादमीचें सांग्यार सुरू केल्ल्या कला केंद्रांत तांणी पेटी शिक्षक म्हूण काम केलां. गोंयांतल्या खांची कोनशांनी जावपी नाटकां, भजनां, किर्तनां ह्या सगळ्यांक संगिताची साथ दिल्ल्या कारण्यान आनी नितळ मनाचो, सगळ्यांक आपले तांकी प्रमाण मजत करपी, आदार करपी कलाकार म्हूण तांची वळख आशिल्ल्यान तांकां सगळो लोक मानतालो.

तांचे खूब भोवमान जाले. श्री पाईकदेव देवस्थान, श्री पांडुरंग देवस्थान, श्री शिशिरोत्सव नाट्य मंडळ, सांगें, श्री मांजरेकर समाज, मांजरें, श्री पुरुषम्हारू देवस्थान, कुडचडें, श्री मंगळेश्वर नाट्य मंडळ, मडकय.

तुकाराम फोंडेकार एक निर्गवी कलाकार, कला क्षेत्रांत तांणी सगळें जिवीत ओंपलें. अणभव मेळयले, सत्कार भोवमान जाले. तांची गणती एक गुणी कलाकार म्हूण जाल्या. आपले वादन कलेचो प्रसार जावचो म्हूण तांणी 'श्री शांतादुर्गा प्रासादीक पेटीवादन शाळा' ह्या नांवान कुडचडें हांगा 1943 वर्सा वर्ग सुरू करून खूब विद्यार्थी तयार केले. हेंच तांचे आंतरीक समाधान.

अश्या ह्या निर्गवी कलाकाराक 4 मे 1999 दिसा देवाचें आपोवणें आयलें.

# राधाबाय कामत

- किर्तन कला



राधाबाई कामत हांचो जल्म 21 जानेवारी 1928 वर्सा शिवोली-बार्देस हांगा जालो. तो तेंप पुर्तुगेल राजवटीचो आसलो. शिवोली हो त्या तेंपार गांवगिरो वाठार. अश्या ह्या गांवगिऱ्या वाठारांत नायक घराब्यांत राधाबाईंचो जल्म जालो. तांचें आदलें नांव लीला आसलें.

तांच्या भुरगेपणांत गोंयांत शाळा नासल्यो. गांवांत कोणाल्या तरी पडवेर गांवांतल्या भुरग्यांक एकठांय करून निदान अक्षर वळख तरी जावची असो यत्न जातालो. अशेच एके शाळेंत, राधाबाईंची अक्षर वळख जावन त्यो वाचपाक-बरोवपाक लागल्यो.

तांच्या घराचें वातावरण धर्मीक वृत्तीचें आशिल्लें. पुजा, जप, भजन, ग्रंथांचे वाचन हें पळयत आनी अणभवत तांचें भुरगेपण गेलें. आवयचें आपल्या भुरग्यांचेर पुरायपणान लक्ष आशिल्लें. आपलीं भुरगीं सुसंस्कारीत जावची अशी आवयची इत्सा आसली.

राधाबाई सुमार दोन वर्साची आसतनाच तांच्या बापायक देवाज्ञा जाली. ह्या कुटुंबाचें आराध्य दैवत श्रीदत्त आशिल्लें. पिरायेच्या सव्या वर्सा सावन राधाबाईक तांच्या आवयन नामस्मरणाची संवय लायली. अध्यात्माचें बाळकडू सान पिरायेचेरच तांकां आवय कडल्यान प्राप्त जालें.

एकदां मामाच्या आग्र्‍हा खातीर माणकुल्या राधाबायन 'सत्तेचे गुलाम' नाटकांत ल्हानसोच पार्ट केलो. तातुंतल्या पदान तांची भोवच तुस्त तोखणाय जाली. म्होंवाळ आनी भारदस्त आवाजाची देणगी तांका जल्मा सावन फावो जाल्ली, जी तांकां फुडाराक खूब उपेगी पडली.

सान पिरायेचेर, सद्गुरू श्री कामत हांच्या आशिर्वादान त्यो किर्तनाक उब्यो रावल्यो. 1940 तलो हो काळ. बायल किर्तनकार तेन्ना कोणच नासली आनी

म्हणूनच ही तेजस्वी अस्तुरी जेन्ना हरिभक्तींत तल्लीन जावन किर्तन करूंक लागली तेन्ना लोक अजापीत जाले. पूण राधाबायन किर्तनाक फुडो केल्लो ते फाटीं म्हणून पळयलेंच ना.

तांणी किर्तन कलेचो स्विकार केलो आनी पुरायपणान लोकजागृतीच्या पवित्र कार्याक व्हांवून घेतलें. जन रिती प्रमाण श्री. योगानंद विठ्ठल कामत हांचे बरोबर तांचे लग्न जालें. तांच्या नशिबान तांकां अध्यात्माची आवड आशिल्लोच साथीदार फावो जालो. ते माशेल गोंयच्या श्री दुर्गादत्त मंदिरांत श्री दत्तसेवा करताले. एक अध्यात्मीक सत्पुरुस जिणेचो वांगडी म्हूण मेळिल्ल्यान तांची कला चड फुल्ली.

मुळचोच दैवी आवाज आनी अभ्यासाची जोड हाच्या म्हालवजार, सद्गुरुकृपेन राधाबाईन किर्तनविद्या शिकून घेतली आनी सतत साठ वर्सां तांणी सातत्यान लोकरंजना बरोबर लोक शिक्षण, प्रसंगी परखड प्रबोधन केलें. राधाबाईच्या घरकारांची स्वताच्या मालकीची फोव कांडपाची गिरण आशिल्ली. एकदीस ते गिरणींत काम करतना तांचो हात निकामी जालो. उपाय नासून गिरण सासणाची बंद करची पडली. पोटापाणयाचें साधन नाशिल्ल्यान राधाबाईन चरितार्थाचें साधन म्हणून किर्तनकलेचो आदार घेतलो.

1957 त विजयादसमी सावन मडगांव हरिमंदिरांतल्यान राधाबाईन वेवसायीक किर्तनाक सुरवात केली. तांच्या किर्तनाचें खाशेलेंपण भक्ती, ज्ञान, सद्वर्तन आनी सात्विक वृत्ती आसली. सतत तीन वरां तांचें किर्तन रंगतालें. तांणीं फकत गोंयांतच न्हय तर गोंया भायर लेगीत कोल्हापूर, नरसोबावाडी, गाणगापूर, औदुंबर ते पयस बडोदा आनी अहमदाबाद मेरेन कितल्याशाच गांवांनी, शारांनी किर्तन केलां.

तांकां कितल्योशोच पदव्यो फावो जाल्यात. पुण्यांत तांकां 'भक्ती विजया' कवळें हांगा भौ. सखाराम अभिषेकीनी तांकां 'किर्तन तेजस्विनी' उपाधी दिली, फलटण हांगा तांकां 'किर्तन सम्राज्ञी' उपाधी फावो जाली. गोंय सरकाराचो 'यशोदामिनी पुरस्कार' तांकां फावो जालो.

राष्ट्रीय एकात्मतेचीं पत्रकां वाटून जें कार्य जावंक शकना तें काम राधाबाईन किर्तनांनी समाजजिणेचेर केलें. समाजीक भावपण, निती आनी एकवट हो समाजजिणेचो मोटो धागो हें दाखोवन दिलें.

अश्या ह्या फाकिवंत किर्तनकार राधाबाईक 25 मार्च 2012 क देवाचें आपोवणें आयलें.

# यशवंत केरकर

– संगीत



नामनेचे गोंयकार तबला वादक. तांचो जल्म 21 फेब्रुवारी 1914, बाग-केरी हांगा जालो. तांचो बापूय बी एक तबलजीच आशिल्लो. आठ वर्सां पिरायेचेर तिसरे यत्तेंत आसतना, लागसरच्या सुवातींनी जीं नाटकां जातालीं, थंय ते नेमान वताले. थंय नाटकांत तबलें वाजतालें तें आयकून आपणेंय तबलें वाजोवचें अशें तांका दिसतालें.

1922 वर्सा भास्कर शेट कांसार हांच्या घरांत संगीत नाटकाच्यो येसायो चलताल्यो. तेन्ना आठ वर्सां पिरायेचो यशवंत त्या घराच्या भायर रावन, खास करून तातूंतल्या तबलजीचें तबला वादन आयकतालो. एक दीस कोण कलाकार ना तें पळोवन तो भितर गेलो आनी तबलें वाजोवंक लागलो. तबलें वाजयता आसतना कार्यावळीचे जाळवणदार थंय पावले आनी तांणी यशवंताक लागसारकीं उतरां दिलीं. ह्या प्रसंगान अंतर्मुख जावन ताणी एक फिशाल तबलजी जावपाचो खर हावेस बाळगिलो.

मंगेशी देवळांत दर सोमाराक जेन्ना गायन आसतालें, तेन्ना यशवंत तबल्याचेर साथ दितालो. एक दीस मा. दीनानाथ थंय आयिल्लेकडेन तांणी ताच्या हाताचें कसब पळयलें आनी रोखडेच तांकां आपल्या बळवंत संगीत नाटक कंपनींत घेतलो (1933) गोंयांत गोपीनाथ मंगेशकार हाचे कडल्यान ताणीं तबला वादनाचें मुळावें शिक्षण घेतिल्लें. दीनानाथा वांगडा गोंया भायर वचून ताणीं वतलेमामा हाचेकडेन तबला वादनाच्या उच्च शिक्षणाक सुरवात केली.

उपरांत ताणीं पंडित कागूराव मंगेशकार, पं. सुब्राय अंकोलकार, खाँसाहेब तिरखवां मिरतवाले, उस्ताद अमीर हुसेन, उस्ताद हवीबुद्दीन खाँ, उस्ताद शमशुद्दीन खाँ आनी खलिफा अमीर हुसेन हांचे कडल्यान तबला वादनाच्यो तालमी घेतल्यो. तेचपरी खाप्रूमाम पर्वतकार हाचेकडल्यानूय ताणीं लयकारीच्यो गजाली आत्मसात

केल्यो. उपरांत ताणीं मिरतवाले खाँ हबीबुद्दीन हाचो गंडो बांदून अजराडा बाजाची तालीम घेतली. फुडें दिल्लीचो बाज हातांत येवचो म्हूण गाँमेखाँ हाचो गंडो बांदून बारा वर्सां त्या बाजाची तालीम केली. घुम्मन खाँ हाचे कडल्यान ताणीं ठुमरी, गझल आनी कव्वाली हीं सुगम संगिताचीं आंगां शिकून घेतलीं.

कथ्थक नाचाक बरेतरेन साथ करपाक येवची म्हूण ताणीं पं. जयलाल जयपूरवाले, पं. सुंदरलाल, प्रतापलाल, कुंदनलाल, धनलाल आनी पं. लच्छुम्हाराज हांचे कडेन ते ते तरेचें शिक्षण घेतलें.

खाँ साहेब अब्दूल करीम खाँ, केसरबाय केरकार, गंगूबाय हंगल, मेनकाबाय शिरोडकार, अंजनीबाय लोलयेंकार, सुशिला टेंबे, मोगुबाई कुर्डीकार, किशोरी आमोणकार, पं. सवाई गंधर्व, खाँसाहेब विलायत हुसेन, उस्ताद अनमत हुसेन, उस्ताद खादीम हुसेन, पं. जगन्नाथबुवा पुरोहित आनी हेर कितल्याश्याच उंचेल्या पांवड्या वेल्या कलाकारांक ताणीं तबल्याची साथ दिल्या.

तेचपरी सुमार 300 शिश्यांनी तांचेकडल्यान तबला वादनाचें शिक्षण घेतलां. ह्या ताच्या शिश्यगणांत गोंयचे नामनेचे तबला वादक प्रभाकर च्यारी आनी तुळशीदास नावेलकार हांचो आस्पाव जाता.

सुरवेक ते आकाशवाणी मुंबय केंद्राचेर तबलजी म्हूण काम करताले. उपरांत गोंयांत कला अकादेमी संगीत महाविद्यालयांत तबला शिक्षक म्हूण दोन वर्सां ताणीं कलाकारांक मार्गदर्शन केलां.

अशा ह्या म्हान कलाकाराक 18 डिसेंबर 1989 ह्या वर्सा मरण आयलें.

# शालिनी म्हाड्डोळकार

- अभिनय



कोंकणी आनी तियात्र माचये वयली नामनेची गोंयची अभिनेत्री, शालिनी म्हाड्डोळकार हांचो जल्म 15 ऑगस्ट 1939 ह्या दिसा जालो. शालिनीचो भुरगेपणांतलो काळ म्हणल्यार चड करून गोंयकार बायल मनीस निर्भिडपणान पालकार चडपाक धजनासलीं. पालकार चडूनअभिनय करप म्हणल्यार पारपोळ अस्तुरी अशी तिची नामना जाताली. अश्या वेळार तांच्या पालकांनी तांकां सान पिरायेर म्हण्ल्यार पांचव्या वर्साच रंगभुंयेर पावल दवरपाक आदार दिलो.

फुडें घाल्लें पावल तांणी फाटीं घेतलें ना. त्यो फुडें फुडें वचत रावल्यो. कोंकणी रंगमाचयेची सेवा करतनाच तांणी मराठी रंगभुंयेकय आपलें योगदान दिलां. पुणेचे प्रभात थिएटर कंपनींतल्यान मराठी रंगभुंयेचेर तांणी आपल्या खेरीत अश्या अभिनयान वेगळी वळख करून दिल्या. 1949 वर्सा तियात्र माचयेर सी. आल्वारीश हांचे वांगडा 'भाव-भयण' ह्या ॲन्थनी कुयेल्ल्यो हांणी बरोवन दिग्दर्शीत केल्ल्या तियाात्रांत तांणी मुखेल भुमिका केल्ली.

उपरांत त्या वेळा वयल्या लागीं लागीं सगळ्याच नामनेच्या तियात्र निर्माते अनी दिग्दर्शकांच्या सांगातान तांणी तियात्र माची गाजयली. सी. आल्वारीस, एम. बॉयर, प्रेमकुमार, सौझालीन, आल्फ्रेड रोझ, रॉबीन वाझ, जासींत वाझ हांच्या तियात्रांतल्यान तांणी मुखेल भुमिका केल्यात. तियात्र माचयेर अभिनय करतनाच 'करता तो भोगत' हो तियात्र बरोवन, दिग्दर्शीत करून ह्या मळारूय तांणी आपली खाशेली वळख करून दिल्या.

'निर्मोण आनी म्हजी घरकान्न' ह्या कोंकणी चित्रपटावरवीं ताणीं आपलो अभिनय कितलो उंचेल्या पावंड्या वयलो जावन आसा हाची वळख चित्रपट मोगी रसिकांक करून दिल्या. 'निर्माण' हो तांचो कोंकणी चित्रपट उपरांत हिंदींतल्यान 'तकदीर' ह्या नांवान प्रदर्शीत जाल्लो. तातूंत शालिनीन मुखेल भुमिका केल्ली. 'निर्माण' ह्या चित्रपटांतल्या तांच्या अभिनया खातीर तांकां त्या वेळा वयली

प्रधानमंत्री इंदिरा गांधी हांचे हस्तुकी राष्ट्रीय पुरस्कार भेटोवन तांचो भोवमान केल्लो. सर्गेस्त जे.पी. सौझालीन हांणी दिग्दर्शीत केल्ल्या 'सात दुःख्खा' ह्या तियात्रांत तांणी मदर मेरीची भुमिका साकार केल्ली. तांणी केल्ली मेरीची भुमिका गोंयकर रसिकांक इतली भाविल्ली - ताका लागून प्रेक्षकांनी तांकां 'दुख्खांत भरिल्ली सायबीणमाय' अशें नांव दवरिल्लें.

तियात्र माचयेर तांणी दिल्ल्या मोलादीक योगदाना खातीर तियात्र अकादेमीन तांकां 2009 वर्सांचो तियात्र पुरस्कार भेटोवन भोवमान केल्लो.

'धोल म्हज्या बाय, रडों नाका, पिपी हाडटलो पाय' ह्या 'निर्मोण' चित्रपटांतल्या गिताक लागून गोंयकारांच्या काळजांत आगळीच सुवात मेळयिल्ली कोंकणी आनी तियात्र पालका वयले नामनेचे अभिनेत्रीक, शालिनी म्हाड्ढोळकारांक 7 जानेवारी 2013 दिसा 'वसई' हांगा देवाचें आपोवणें आयलें.

# मिनाक्षी शिरोडकार

- संगीत आनी अभिनय



मराठी चित्रपट आनी संगीत नाटक मळा वयली श्रेश्ठ अभिनेत्री मिनाक्षी शिरोडकरांचो जल्म कोरगांव हांगा जाला.

तांचें नांव रतन आशिल्लें. रतन पेडणेकाराचें भुरगेपण गोंयांतच गेलां. पिरायेच्या पंदराव्या वर्सा त्यो कोल्हापुरांत गेल्यो. त्या वेळार गोंयचे कलावंत, कलेची साधना वा उदरनिर्वाह करचे खातीर गोंय सोडून दुसऱ्या शारांनी वताले. पूण रतन ह्या साद्या आनी सरळ सभावाच्या अस्तुरे मुखार खास अशें ध्येय नाशिल्लें.

आपूण केन्ना तरी श्रेश्ठ अभिनेत्री जातली वा आपल्याक गार्णे शिकपाची संद मेळुंये अशें तांकां केन्नाच दिसलेंना आनी म्हणूनच कदाचीत जावंये तांणी गृहिणी जावप पसंत केलें आनी पिरायेया सोळाव्या वर्सा पांडुरंग शिरोडकार ह्या मोटारी सारक्यो करपी मॅकानिका कडेन लग्न जाल्यो आनी संवसार करूं लागल्यो.

तो काळ कोल्हापुरांत नव्यानच सुरू जाल्ल्या चित्रपट सृष्टिचो वैभवाचो आशिल्लो. बाबुराव पेंटर, आनंदराव पेंटर, व्ही शांताराम, भाऊजी पेंढारकर, बाबुराव पेंढारकर, मास्टर विनायक हे चित्रपटांच्या क्षेत्रांत नवे नवे प्रयोग करपांत मग्न जाल्ले. 'हंस पिक्चर्स' हांचें खाशेलेंपण म्हणल्यर चित्रपटांच्या कथांचेर तांचें खास लक्ष आसलें. निकतोच मुकपट सोंपून बोलपटाचो जमानो सुरू जाल्लो आनी कथेच्या आनी पात्रांच्या माध्यमांतल्यान प्रेक्षकांक खूब बरें आनी संस्कर दिवपी सादरीकरण दिवपा कडेन संस्थेचो यत्न आसलो. म्हणून कथा लेखक वि. स. खांडेकर, आचार्य अत्रे, अशे विचारवंत, लेखकांची संस्थेंत निवड केल्ली.

'ब्रह्मचारी' ह्या नव्या चित्रपटाचे नायक आनी दिग्दर्शक मास्टर विनायक, नव्या नायिकेच्या सोदांत आसतना रतन शिरोडकर हांचेर तांची नदर गेली. अभिनय आनी संगीत ह्या क्षेत्रांत त्यो सामक्यो नव्यो आशिल्ल्यान सुरवातीक तांणी भुमिका आपणावंक न्हयकार दिलो. खास करून स्विमींग सूट घालून शुटिंग करपाक त्यो कश्योच तयार नासल्यो.

पूण घरकार, इश्ट पांडुरंग नाईक (कॅमेरामन) बाबुराव पेंढारकर (मॅनेजर) हांणी तांची समजूत घालून 'रतना'ची मिनाक्षी हें नवें नांव घेवन त्यो चित्रपट सृश्टींत आयल्यो 'ब्रह्मचारी' चित्रपटांत 'यमुना जळीं खेळूं खेळ कन्हैया का लाजता' हें श्रृंगार गीत पेंवपाचो भेस घालून तांणी गायिल्लें. तेन्ना सनातनी लोकांनी आनी तथाकथीत संस्कृती रक्षकांनी तांचेर आनी चित्रपटाचेर व्हडली टिका केल्ली. त्या वेळचे परिस्थितीचो विचार केल्यार, तांचें तें कला प्रांतांतलें धाडसच म्हणचें पडटलें. ह्या चित्रपटांतल्यान मास्टर विनायक आनी मिनाक्षी ही जोडी खूब नामनेक पावली.

'हंस पिक्चर्स'च्या यशा उपरांत मिनाक्षीन 'ब्रॅन्डीची बाटली', 'देवता', 'सुखाच शोध' हे चित्रपट तशेंच 'नवयुग चित्राचो', 'अमृत' ह्या चित्रपटांत मुखेल भुमिका केली आनी आपली अशी खाशेली सुवात निर्माण केली. बिकीनी सीनान आपूण फामाद जाली हें शल्य तांकां मनांत आशिल्ल्यन तांणी 'सोनेरी सावली' ह्या चित्रपटांत काम करून चित्रपट संन्यास घेतलो आनी घरकारा बरोबर मुंबय वचून 'खादिम हुसेन खाँ' हांचे कडेन शास्त्रीस संगीत शिकपाक सुरवात केली.

'खादिम हुसेन खाँ' हांचे कडल्यान गाण्याच्यो खास शैली शिकून घेवचे खातीर तांणी खूब कश्ट घेतले. शिवाय गोंविदराव अग्नी हांणीय तांचेर खूब बरे संस्कार केले. नाट्यसंगीत हो संगीत नाटकांचो प्राण आशिल्ल्यान तांणी अथक परिश्रम करून ही कला आत्मसात केली.

तांणी गाजयिल्ल्या नाटकांतल्यो भुमिका सुभद्रा, रेवती, भामिनी, सिंधु, रश्मि अश्यो आसात. चित्रपट आनी नाट्य ह्या दोनूय क्षेत्रांतले तांचे कर्तृत्व म्हणल्यार, त्यो आयलो, तांणी पळयलें, तांणी जिखलें अशें म्हणल्यार अतिताय जावचीना. तांणी संगीत मैफिली करून शास्त्रीय संगिताची आपली कलाश्रेश्ठता सिद्ध केली. नाटक आनी संगीत हातूंत त्यो चड रमल्यो.

मिनाक्षी शिरोडकारांच्यो नाती शिल्पा आनी नम्रता ह्यो उत्कृश्ट मॉडेल जाल्यो आनी अभिनेत्री म्हणूनय तांणी नांव मेळयलें. मिनाक्षीन कलेचेर मोग केलो आनी आपली सुवात आपणेच घडयली. तांच्या कार्याची दखल घेवन अखिल भारतीय नाट्य परिशदेन बालगंधर्व भांगरा पदक दिवन आनी मराठी अकादेमीन 1991 वर्सा मानद वांगडीपद दिवन तांचो भौमान केला.

अश्या ह्या श्रेश्ठ अभिनेत्रीक 2 जून 1997 ह्या दिसा देवाचें आपोवणें आयलें.

# अंजनीबाय मालपेकार

– संगीत



अंजनीबाय मालपेकार, गोंयची एक श्रेश्ठ गायिका. तांचो जल्म 22 एप्रिल 1883 वर्सा, मालर्पे, पेडणें गांवांत जालो. अंजनीबायच्या घराण्यांत गायनाचो वारसो पिळगेन पिळगी चलता आयिल्लो. तातूंत अंजनीबायची सवी पिळगी.

अंजनीबायची पणजी गुजाबाई, ही त्या काळांत संगितांतली एक पंडिता मानताले. आजो वासुदेव मालपेकार हो गायक जाल्यार चुलतो वामन मालपेकार तबलजी आशिल्लो. तांची आवय नबूबाई हीच एक बरी गायिका आशिल्ली. तांका तिच्या बापायकडल्यान आनी बापोलया कडल्यान गायनाचें शिक्षण मेळिल्लें.

अंजनीबायक भुरगेपणांतच गायनाची स्फूर्त आनी शिक्षण मेळत गेलें. तांचो बापूय नारायण हाणीं आपलो इश्ट पं. भातखंडे हांचे वतीन नजीर खाँ हांकां आपले धुवेक गायन शिकोवपाची विनवपी केली. नजीर खाँ हांणी अंजनीबायच्या आठव्या वर्सा तांका गंडो बांदलो. नजीर खाँ कडेन अंजनीबायन सतत 36 वर्सां तालीम घेतली.

फांतोडेर चार वरांचेर नजीर खाँची तालीम सुरू जाताली. तशेंच खादीम हुसेन आनी छज्जुखाँ हेय दीस भरांत हेर वेळार तालीम दिताले. ते भायर संस्कृत, उर्दू, ह्यो भासो शिकपाखातीर आनी नाच, भाव, लावणी हांचे खातीर वेगळे गुरू आशिल्ले.

खाँसाहेब नजीर खाँ हांची खाशेली अशी शिकोवपाची पद्दत आशिल्ली. तांणी सुरवेक तंबोऱ्याचेर फकत खड्या स्वर सप्तकाची साधना करपाक लावन अंजनीबायचो उस्वास तयार करून घेतलो.

उपरांत गळ्याचे चारूय दर्जेसारखे शक्तीचे करून घेतले. ते उपरांत जोडस्वरांची कामगत, तानो, पलटे खंडमेर पद्दतीन स्वरांची बढत, तरातरांचे एकशें आठ पलटे इतलें 'यमन कल्याण' रागांत तयार करून घेतले.

एक 'यमन कल्याण' हो राग गुरून अंजनीबायक पांच वर्सां शिकयलो आनी दोन वर्सां 'भैरवी' शिकयली. 'यमन' हो तीव्र स्वरांचो राग आनी 'भैरवी' हो कोमल स्वरांचो राग आशिल्ल्यान पुराय बारा स्वर, तातूंतल्या बारीक बारीक स्वरलंकारां सयत गळ्यांत पक्के जाले.

बसका पक्की आनी शुद्ध जातकच फुडल्या कांय वर्सां भितरच खाँसाहेबान 25 व्हड राग आनी 200 रागिण्यो अंजनीबायक शिकयल्यो. हें उस्तादी शिक्षण शिकतना ताणें 800 तो 100 चिजो याद केल्यो.

अंजनीबायक शास्त्रीय संगीत मळार खूब नामना मेळ्ळी. भारतांतल्या व्हड व्हड संस्थानांतल्यान तांकां गायना खातीर आमंत्रणां येवपाक लागलीं. अंजनीबायन नाचाचोय अभ्यास केल्लो. उर्दू, हिंदी, गुजराती भाशाय त्यो शिकिल्ल्यो.

कच्छ, गुजरात, सौराष्ट्र, मध्यप्रदेश, उत्तर प्रदेश, पंजाब आनी नेपाळ मेरेन पातळिल्ल्या संस्थानांनी अंजनीबाय गायनाच्या निमतान भोंवल्यो. सबंद भारतभर तांच्यो मैफली जावंक लागल्यो.

तांकां बैठकींतल्या गायनांत सारंगीची साथ गोविंदरामजी, अजीम बक्ष, अब्दुल अझीझ, पांडुमामा मंगेशकार, रघुनाथजी ह्या नामनेच्या सारंगी वादकांनी केली. तबल्याची साथ नरहरी मांजरेकार आनी दिल्लीचो नथ्थन खाँ हांणी केली.

1931 वर्सा अंजनीबायन सॉलिसीटर शूरसेन कळंगुटकार आनी नामदेव मांजरेकार हांकां वांगडा घेवन बॉम्बे म्युझिकल आर्ट सोसायटीची थापणूक केली.

हे संस्थे वतीन खाँन फैयाज खाँ हांचें पयलें गायन जालें. उपरांत अल्लादिया खाँ, अब्दुल करीम खाँ, पंडित वझे बुवा, बाल गंधर्व, नारायणराव व्यास, सवाई गंधर्व, मल्लिकार्जुन मंसुर, श्रीमती केसरबाई केरकार ह्या भारतांतल्या नामनेच्या गायक गायिकांच्यो मैफिली हे संस्थेवतीन जाल्यो.

1958 वर्सा केंद्रीय संगीत नाटक अकादमीची पयली 'फेलो' जावपाचो मान अंजनीबायक मेळ्ळो.

अश्या ह्या श्रेश्ठ गायिकेक 6 ऑगस्ट 1974 वर्सा देवाचें आपोवणें आयलें.

# रेमी कुलासो

- तियात्र कलाकार



रेमी कुलासो हांचें पुराय नांव रेमिडियस जुवांव कुलासो उर्फ रेमी कुलासो. तांचो जल्म 19 सप्टेंबर 1925 वर्सा कुडचड्यार जालो. तांचें मुळावें शिकप चर्चीचे शाळेंत रोमी कोंकणींतल्यान जाल्लें. भुरगेपणांतल्यान तांकां संगिताची आवड आशिल्ल्यान तांणी सुरवातीचें संगिताचे धडे नामनेचे संगितकार डायगो रॉड्रिग्स हांचे कडल्यान गिरयले. चार वर्सां ते रॉड्रिग्सांकडेन व्हायोलीन शिकले.

तांचें फुडलें शिकप सेंटट जोजेफ स्कूल वडाळा मुंबय हांगासर जालें. पयलेच खेपे तार्णी स्कुलाच्या कार्यावळींत वांटो घेवन म्होवाळ आवाजांत एक कांतार गायलें. तेन्ना त्या वेळा वयल्या प्रिन्सिपॉलाक तें इतलें भावलें की ताणी सोमतोच रेमीक चर्चीचे 'कोयर'चो वांगडी केलो.

रेमी जंय रावताले थंय 'जॉली बॉयस ऑफ सेवर' नांवांचो कलाकारांचो पंगड कार्यरत आसलो. तांकां तांच्या 'भागींतलो मोग' तियात्रांत अस्तुरेची भुमिका करपाक स्त्री पात्र मेळनासलें. जेन्ना तांची नर रेमीच्या सोबीत मुखामळार गेली तेन्ना तांकां दिसलें कीं तार्णी अस्तुरेची भुमिका करची. तार्णी रेमीच्या बापायकडल्यान उतर घेतलें आनी रेमीन खोशये भायर म्हणटात तशें 'भागींतलो मोग' तियात्रांत मुखेल पात्र रंगयलें.

रेमीचें 'भागींतलो मोग' हें पात्र करतना मुंबयचे फामाद तियात्रिस्त एडवर्ड आल्मेदान तांची कला परखिली. तांणी रेमीक वेवसायीक तियात्रांत संद दिली. सर्गेस्त श्री. आल्मेदाच्या 'मांय' ह्या तियात्रांत तांणी भुमिका केली. त्या उपरांत सी. आल्वारीस ह्या तियात्रिस्तान तांकां आपल्या 'तो हो तियात्रिस्त' ह्या तियात्रांतल्यान पालकार हाडलो.

एकदां तियात्रांतल्या पालकार पावल दवरलें तें पावल फुडें-फुडें वचतच रावलें. तांणी फाटीं वळून पळयलें ना. एक बरे गायक, दिग्दर्शक, निर्माते, बरोवपी आनी भुमिका करपी म्हूण तियात्र पालकार तांची भोवगुणी कलाकार अशी वळख

आसली. सुरवेक उत्सवी पालकार पावल दवरून तांणी वेवसायीक रंगमाची आपल्या अभिनयाचे म्हालवजार गाजयली.

रेमीन त्या वेळा वयल्या फाकिवंत निर्माते आनी दिग्दर्शकांच्या तियात्रांनी काम केलां. देखीक सी. आल्वारीस, सौजा फेरांव, मिंगेल रॉड, ॲंथनी मॅन्डीस, सौजालीन, मास्टर वाझ, जॉन क्लारो, ॲलेक्सिन दे कांदोर्ली, जॅसींत वाझ, एम् बॉयर अशे तरेन लेगीत तियात्रांनी काम केल्या उपरांत तांणी खूब अणभव गांठीक घेवन आपलो स्वताचो तियात्र रचलो.

'सातवो साक्रामेंत' हों तांचो पयलो तियात्र, 15 एप्रील 1955 वर्सा भांगवाडी-मुंबयच्या प्रिन्सेस थिएटरच्या पालकार आयलो. तांच्या ह्या तियात्राक सगळे तियात्र रसिकांनी उत्स्फूर्त प्रतिसाद दिवन तांची उर्बा वाडयली. तांणी सुमार 13 तियात्र बरयले.

तांणी बरोवन माचयेर हाडिल्ल्या कांय नामनेच्या तियात्र मदीं 'सातवो साक्रामेंत, सूख तारवट्याचें, दोन काळजां, कित्याक उपकारलें, अस्तुरेचो मोग, घरचें सूख' हांचो आस्पाव आसा. तियात्रिस्त म्हण साबार विदेशी देशांनीय तांणी भोंवडी केल्या. गोवा कोंकणी अकादेमीन तांचे 'घराचें सूख' आनी 'आतांचो तेंप' हे दोन तियात्र पुस्तक रूपान उजवाडायल्यात.

तियात्रांनी काम करतनाच ते बरीं कातारां गायताले. तांचीं कातारां मुल्ल्याचेर, नितीचेर आदारीत आसतालीं. आनी हे खातीर तीं लोकांक चड भावतालीं. आंकवार मारियेचें दुख्ख ह्या कांताराक लागून ते चडूच नामनेक पावले. बरें कांतार म्हण आकाशवाणीन तें वेंचून काडिल्लें. तांणी आपल्या तियात्र पालका वयल्या कार्यांत एक हजार वयर तियात्रांनी काम केलां जाल्यार पांचशे वयर कांतारां रचल्यांत.

कोंकणी सातोळें सिनेटायम्स आनी गुलाब ह्या नेमाळ्यांचे तांकां पुरस्कार फावो जाल्यात. 1991 वर्सा तांकां गोंय राज्याचो सांस्कृतीक पुरस्कार फावो जाला. तसोच दाल्गाद कोंकणी अकादेमी आनी तियात्र अकादेमीचोय 'जीवन गौरव' पुरस्कार तांकां फावो जाला.

तांची स्वताची 'गोल्डन हिट्स ऑफ रेमी कुलासो' ही सीडी उजवाडा आयल्या. अश्या ह्या भोवगुणी कलाकाराक 22 मार्च 2012 दिसा देवाचें आपोवणें आयलें.

# जासींत वाझ

– तियात्र कलाकार



'तियात्र' ही कला गोंयचो प्राण. तियात्राक लागून भौस पिसो जाता. गोंयचो तियात्र गोंया प्रमाणें आख्ख्या संवसारांत गाजत. कांय कलाकार जल्माक येतनाच तियात्रिश्ट म्हूण येतात. तातूंतलेच एक कलाकार म्हणल्यार जासींत वाझ. ते कोंकणी माचयेवेल्या तियात्रिस्तांचे राजा म्हणल्यार अतिताय जावची ना. जासींत वाझांचो जल्म 27 एप्रील 1918 दिसा मांडूर गांवांत जालो. तांच्या बापायचें नांव क्रास्टो वाझ. तेवूय एक बरे पैकीं दिग्दर्शक आसले. जल्मतनाच कलेचे गूण घेवन येता आनी मागीर त्या गुणांक तासां मारचीं पडटात तेन्नाच तो कलाकार खऱ्या अर्थान पर्जळटा.

मांडूरचे मुळावे शाळेंत तांचें शिक्षण जालें. पूण फुडलें शिक्षण तांकां मुंबय घेवचें पडलें. भुरग्यां मदीं कांतार गायतना स्कुलच्या प्राचार्यान जासींताक पळयले आनी ताका तें तांचे कांतार इतलें भावलें की तांणी तांकां गॅदरिंगांत गावपाक लायलें. इतलें मजगतीं, जासींत मदीं लज, भीड आशिल्ली ती गेली आनी तांकां ताल सुरांत गावपाची संवय जाली.

सान पिरायेंत ल्हान ल्हान सवंगा करीत करीत व्हडपणांत जासींत तियात्रांनी भुमिका करूंक लागलो. सुरवेक ते गंभीर भुमिका करपाक फामाद आसले. 'हांव तुजो घरकार' ह्या तियात्रांतली तांची भुमिका लोकांनी उखलून धरली. 1944 मेरेन जासींतान फकत गंभीर भुमिकाच केल्यो, पूण मागीर तांणी आपल्या भुमिकांक वेगळें मोडण दिलें. ते विनोदी भुमिका करपाक लागले.

दियोगिन्यू द मेलो हांणी तांकां गोंयांत आपोवणें दिवन हाडले. 'शेवट अब्रु चुकतल्यांचो' हातूंत तांणी विनोदी भुमिका करून लोकांक पोटभर हांसयले. तांणी मागीर खासा आपणें तियात्र बरोवपाक सुरवात केली आनी एका फाटोफाट एक एक करून अठ्ठीस विनोदी तियात्र बरयले. तांचो 'कुन्याद आनी माना' हो तियात्र खूब गाजलो.

'कुन्याद आनी माना' इतलो फामाद जाल्लो पळोवन तांणी ते तियात्र घेवन आफ्रिकेची भोंवडी केली. थंय मोंबासा, नायरोबी, नाकरू, आरूशा, तांगानिका, भोशी, दारेसलाम हांगा सगळे मेळून 24 प्रयोग केले. उपरांत बॅहरीन, कुवेट, ओमन, मस्कट ह्या सगळ्या आखाती देशांतय तांणी आपणाले तियात्रांचे प्रयोग करून अरबी आनी गोंयकारा कडल्यान व्हावा मेळयली.

जासींत वाझांच्या विनोदी भुमिकां विशीं सगळ्या दिसाळ्यांनी तुस्त तोखणाय जाल्या. मुंबयचे सिने टायम्स ऑफ इंडियान तर तांचेर साबार फावटी लेख बरयले, आनी वाचप्यांनी त्या लेखांची तुस्त केली. टायम्स ऑफ इंडियान तांकां कोंकणी तियात्र कॉमेडीचो राजा आनी कोंकणी पालका वेलो चार्ली चॅपलीन म्हूण उल्लेख केला.

तांणी पांच हजारां परस चड तियात्रांनी कामां केल्यांत. तांणी रचिल्लीं सुमार दोन हजार गितां अजून मेरेन आयकुप्यांक धादोसकाय दिता. 'हीज मास्टर्स व्हॉयस' अनी 'कोलुंबिया' कंपनीन तांच्यो रिकॅर्डी काडल्यात. मुंबय शारांत साबार सुवातींनी तियात्र गाजोवन 1960 वर्सा ते गोवा आकाशवाणीचेर कलाकार म्हूण नोकरेक लागले.

सुमार सात वर्सां नोकरी केले उपरांत तांणी ती नोकरी सोडली आनी परत त्याच नेटान ते तियात्र बरोवपाक लागले. हे पिरायेंत तांणी बरयिल्ले तियात्र खूबच जबरदस्त थारले जाणीं नशीब, निर्मोण, म्हजी घरकान्न हे कोंकणी सिनेमा पळयल्यात ताणीं जासींताचे भुमिकेक उखलून धरली.

निर्मोण हो सिनेमा म्हणल्यार एक दुखेस्त सिनेमा. पूण जेन्ना जासिंत वाझ पालकार दिसतालो तेन्ना सगळे पळोवपी पोट धरून हांसताले अशी तांची विनोदी भुमिका आसली. जगावेगळी विनोदी भुमिका करपी जासींत ते जासींतच. तांचो हात धरपी कोणूच जावंक ना.

तांच्या तियात्रांक गोंय कला अकादमी, गोंय दमण दीव सरकार आनी सिने टायम्साचे साबार पुरस्कार फावो जाल्यात जासींत वाझ कोंकणी तियात्र माचये वयलें भुशण जावन गेलें. अश्या ह्या भोवगुणी कलाकाराक 30 एप्रिल 1993 दिसा देवाचें आपोवणें आयलें.

# सी आल्वारीस

– तियात्र कलाकार



सौ. आल्वारीस हे मूळ साळगांव बार्देसचे. ताचो जल्म 1 ऑगस्ट 1924 दिसा जालो. साळगांव वाठारांतल्या सरकारी मुळावे शाळेंत ताणी पुर्तुगेल प्रिमैरूग्राव मेरेन शिक्षण घेतलें. उपरांत थंयच्या एका हायस्कुलांत तेन्नाची चवथी (आठवी) यत्त मेरेन शिकप केलें.

सी. आल्वारीसाच्या घराब्याक विनोदी कलाकारांचो घराबो म्हूण वळखताले. ह्या घराब्यांतलो दर एक मनीस विनोदानच उलयतालो. विनोदी कलाकाराची भुमिका करपाक फावो आशिल्ले गूण घरचे परंपरेक लागून तांच्या आंगात भुरगेपणांतच आयिल्ले. तांच्या घराब्यांतले सगळेच तियात्रिस्ट. सी. आल्वारीस हे एक हाडांमासाचे तियात्रिस्ट. पिरायेच्या सातव्या वर्सा तांच्या बापायन, कायतान आल्वारीसान बरयिल्ल्या 'म्हजी घरकान्न' ह्या तियात्रांत ताणीं पयले खेपे माचयेर पावल दवरलें. उपरांत बापाय कडल्यान स्फूर्त घेवन ताणीं स्वता तियात्र बरोवंक सुरवात केली.

ताणी सुमार 78 तियात्र बरयल्यात. 'म्हजी व्हनी', 'चोर वो तियात्रिस्ट', 'आतांच्यो सुनो', 'मावोडेचें सूट', 'वर्जे हें ताणी भुरगेंपणांत बरयिल्ले, पूण गोंयच्या आनी भारतांतल्या हेर माचयेर गाजिल्ले तियात्र. 'केन्ना उदेतलो तो दीस' हो तियात्र खूअ गाजलो. तेच भाशेन 'आतांच्यो सुनो' ह्या तियात्राचें मुंबय, गोंय, आफ्रिका, दिल्ली, कोलकाता, पुणें आनी हेर कांय सुवार्तीनी मेळून पांचशे वयर प्रयोग जाले.

'आवयचो शिराप', 'म्हजो सोपूत', 'जुरामेंत', 'गोंयचो मोग' हे तांचे काळजाचो थाव घेवपी तियात्र आसात. ताच्या तियात्राची भास सरळ आनी सोंपी जाल्ल्यान भौसाची काळजां जिखपी थारली. तांच्या तियात्रांतलें उतरान उतर मनशाक विचार करपाक लायतालें. 'मस्तेपण' हो तियात्र म्हणल्यार आयचे तरणे पिळगेक लागिल्ली सामाजीक कीड. ताचेर ताणीं उजवाड घालपाचो यत्न केलो.

मनीस व्हड व्हड पदव्यो घेवन समाजांत वावुरता. पूण जर तांचेर बरे

संस्कार जाले ना जाल्यार ताच्या हातांतल्यान वायट कर्तुबां घडटात. अशे तरेचे चित्र ताणीं 'मस्तेपण' ह्या तियात्रांतल्यान उबे करून बरे विचार भौसा मेरेन पावोवपाचो यत्न केलो. तांच्या दर एक तियात्रांतल्यान बोध घेवपा सारके विचार आसतात आनी हेंच ताच्या तियात्राचें खाशेलेंपण.

जोड गीत (ड्युयेट) हो गितांचो एक प्रकार सी. आल्वारीसाक लागूनच लोकप्रिय जालो अशें म्हणूं येता. ताणीं मिस मोहना, ॲफिलिया, आंतोनेत, फिलोमेन, बॅटी हांचे वांगडा गायिल्लीं जोड गितां बरींच गाजल्यांत. आदल्या तेंपार चलयो माचयेर येनाशिल्ल्यो. चलयांची कामां दादलेच करताले. पूण सी. आल्वारीसान हो भेदभाव सोंपोवचे पासत चलयांचीं कामां करपाक चलयांकच माचयेर हाडपाचें थारायलें. आनी 1952 वर्सा सावन चलयो माचयेर उब्यो रावपाक लागल्यो. मिस मोहना काब्राल पयली अस्तुरी माचयेर चडून तिणें बायलेची भुमिका केली. तियात्राक उंचाय हाडपाचे तांचे सतत यत्न आसताले.

मुंबयच्या सिने टायम्सान घेतिल्ली सर्तींत तांकां सतत चार वर्सा मेरेन बऱ्या अभिनया खातीर पयलें इनाम मेळ्ळें. राष्ट्रीय पांवड्यार भारत सरकारान घेतिल्ले 1966 वर्साचे सर्तींत बऱ्या अभिनया खातीर आदल्यो प्रधानमंत्री सर्गेस्त इंदिरा गांधी हांचे कडल्यान पुरस्कार मेळ्ळो. ते भायर हेर कितलीशींच इनामां ताणें जोडल्यांत आनी आपली किर्त फाकिवंत केल्या.

लेखनाची कला ही सैमीक कलेची देणगी. शिक्षणान ही कला येना, तरी ती निजाचीच आंगात आसची पडटा. सी. आल्वारीसाच्या आंगात ती कला जल्मजात आसली. ती ताणीं केळयली तियात्राच्या माध्यमांतल्यान. तियात्रां बरोबरीन ताणीं सिनेमांतले संवाद आनी गितांय रचलीं.

'आमचें नशीब' ह्या सिनेमांतलो संवाद आनी गितां रचपी सी. आल्वारीस. विनोद, दुख्खाच्यो वेदना उक्तावपी तांचे ह्या सिनेमांतले संवाद दर एकाक आपापल्या नशिबा विशीं विचार करपाक लायतात. तेच प्रमाण 'निर्मोण' ह्याय सिनेमांतले ताणीं बरयिल्ले संवाद, गितां आनी ताची पटकथा विधी लिखिताच्या खोलायेंत व्हरून सोडटा. 'म्हजी घरकान्न' ह्या सिनेमांतलें ताचें काम घरकान्नी विशीं आनी बायल मनशेचे गूण प्रदर्शीत करतात. 'भुंयारांतलो मनीस' ह्या सिनेमांत ताणीं मुखेल भुमिका करून सिनेमाच्या मळार आपलें नांव दवरलां.

असो हो महान कलाकार सी आल्वारीस. हाणीं ता. 27 फेब्रुवारी 1999 वर्सा निमणो स्वास घेतलो.

# जयकृष्ण भाटीकार

- कलाकार



नामनेचे गायक नट श्री जयकृष्ण सदाशीव भाटीकार हांचो जल्म 18 जुलय 1910 वर्सा सांगें हांगा जालो. ल्हानपणांतल्यान तांकां भजनाची आवड आसली. तांचें मुळावें शिकप सांग्यार जालें. गांवांत जावपी उत्सवा निमतान नाटकांनी वांटेकार जावपाची एकूय संद तांणी वागडावंक ना. तांचो पिंडच कलाकाराचो आसलो.

गावपाचो आनी नाटकाचो छंद आशिल्ल्यान गोंयांतल्या खेड्या पाड्यांत जावपी उत्सवा निमतान नाटकांत, चड करून पोरण्या संगीत नाटकांतल्यो नायकाच्यो भुमिका येसस्वीपणान आनी ताकदीन सादर करपांत तांचो हातखंड आसलो.

सरकारी सिव्हील रजिस्ट्रार म्हूण काम करपी जयकृष्णबाबांनी नाटकाच्या छंदा खातीर तेरा वर्सांची बिन पगारी सुटी घेवन श्री खाजगीवाले हांच्या महेश नाटक मंडळांत ते भरती जाल्ले. गोविंदराव माशेलकारांची नूतन ललितकला, गोपीनाथ सावकारांची कलामंदीर, नटवर्य बाळ कोल्हाटकर, सखाराम बापू बर्वे, राजा भाऊची कलाकुंज सारक्या नामनेच्या नाटक कंपनींत कामां करून अणभव, शिक्षण घेतनाच पेटी, तबलो वादनाचीय पुरायेन म्हायती एकवटीत केल्ली.

प्राध्यापक के. ना. काळे, प्रभाकर गुप्ते हांचे कडल्यान नाट्य शिक्षण आनी दिग्दर्शनाचे धडे घेतले. नाट्य अकादमी आनी कला अकादमी वतीन 1968 ते 1972 मेरेन आयोजीत केल्ल्या शिबिरांचो कार्यवाह आनी निरीक्षक म्हूण तांणी जापसालदारकी सांबाळ्ळ्या. कला अकादमीच्या भजनी तशेंच नाट्य सर्तीचे परिक्षक म्हूण काम केलां. कला अकादमी वतीन पुणें हांगा रावन तांणी दिग्दर्शनाचें दोन वर्सां शिक्षण घेतलां.

निजाचो कलाकार जाल्ल्यान जयकृष्ण भाटीकारांनी नाटकांतल्यो भुमिका गाजयल्यात, त्यो भुमिका ते जगल्यात. इतले ते नाटकांनी समरस जाताले. दिवचल

गांवांत तांणी साकरिल्ली रामलालाची भुमिका पळोवन त्या वेळावेले आकाशवाणीचे डायरेक्टर नगरकर इतले खोशी जाले की ऑडिशन परिक्षे बगर तांणी भाटीकारांक आकाशवाणीचेर सुगम संगीत कलाकार म्हूण कार्यावळ दिली. रंगमाची गाजोवपी जयकृष्णबाबांक फाकिवंत दिग्दर्शक व्ही शांतारामांनी 'राम जोशी' नांवाच्या सिनेमांत घेवचे पासत तांची चांचणी घेतिल्ली. पूण ऐनवेळार तो सिनेमा जावंक पावलो ना आनी तांची संद गेली.

मनशान आपल्या समाधाना पासत, आनंद मेळपा पासत कला विश्वाची निर्मणी केली तातूंत नाटक कला ही श्रेश्ठ कला. नाटक हें फकत मजा करचे पासत नासता तर तातूंतल्यान सामाजीक बांदिलकीची जपणूक करची आसता. रंगमाची गाजोवपी नट रंगदेवतेचो एकनिश्ठ आनी प्रामाणीक उपासकच आसचो पडटा अशा उदात्त विचारांचो पगडो जयकृष्णबाबांचेर आसलो.

नाट्य क्षेत्रांतलीं किर्ती, संगीत साधनेतलें येस, आगळ्याच तरेच्या भजनाचो आनंद खूब रसिकांनी आनी कलाकारांनी जयकृष्णबाबां कडल्यान घेतला. तांच्या कलागुणांक लागून विंगड विंगड संस्थांनी तांचो भोवमान सुवाळे घडोवन हाडल्यात. श्री मंगेश देवस्थान, सांवड्डें जेसी, सम्राट क्लब कवळें, अमृत महोत्सवा वेळार सांगेंकारां कडल्यान तशेंच भौशीक गणेशोत्सव सांगें, दयानंद कला केंद्र कुडचडें, अशा साबार संस्थांनी तांचो भोवमान केला.

1988 वर्सा श्री जयकृष्णबाबाक स्वरसम्राट दिनानाथ मंगेशकार भांगरा पदक, अखिल भारतीय नाट्य परिशदे वतीन दिवन तांचो भोवमान केलो. तांणी पुरूष पात्रां प्रमाण स्त्री पात्रांय गाजयल्यांत. कला अकादमीन सांग्यार सुरू केल्ल्या कला केंद्रांत तांणी शिक्षक म्हणूनय काम केलां. आपले तांकी प्रमाण तांणी सांग्या वेल्या कला केंद्रांतल्यान विद्यार्थ्यांक कलेचें मुळावें शिक्षण दिवपाचो यत्न केलो आनी ते करपांत आपल्याक पुराय समाधान लाबलां अशें ते मनापासून सांगताले. अशे आसले रंगदेवतेचे एकनिश्ठ आनी प्रामाणीक उपासक श्री जयकृष्ण भाटीकार. तांकां 2007त देवाचो आपोवणे आयले.

# काशिनाथ शिरोडकर

- कलाकार



शिरोडें गांवाक सैमान भरभरून संपत्ती दिल्या. हांगाचीं देवळां, शेतां-भाटां, कुळागरां, लोकांचो राबितो, संस्कृती उत्स्व, कला साहित्य, शिक्षणीक प्रगती आनी उदरगतीचो ध्यान घेतिल्लो असो हो गांव

स्त्री सुलभ अभिनयान संगीत माची गाजोवपी नटश्रेश्ठ मा. काशिनाथ शिरोडकर हेय ह्याच शिरोडें गांवचे सुपुत्र जावन आसात.

तांचो जल्म तरवळें, शिरोडेच्या सर्वसामान्य गरीब कुटुंबांत जालो. तांणी 1 ली ते 2री मेरेन मराठी मुळावें शिक्षण शिरोडें गांवांत घेतलें. तांचे बापूय तेन्ना पणजी शिर्वीस करताले. आनी म्हणूनच ताणीं काशिनाथाक फुडलें शिक्षण घेवचे पसत पणजी व्हेले. चौथी मेरेन शिक्षण जातकच पोटा-पाणयाची वेवस्था जावचे खातीर बापायन तांकां पणजेचे फामाद दर्जी शाव्हियर फेरांव हांच्या हाता खाला शिवणीचे धडे घेवपाक दवरलें. थंय तांणी बारा वर्सां काम केलें आनी सूट शिवपाचें प्रशिक्षण घेतलें.

शिंवता आसतना उत्सवी रंगमाचये वयलीं नाटकां करचीं अशें तांकां दिसतालें. महालक्ष्मी देवळांतलीं नाटकां पळोवन ते तृप्त जाताले. आपणेंय अभिनय करून प्रेक्षकां कडल्यान शाबासकी मेळोवची अशें तांकां दिसतालें.

ह्या उत्सवांतलीं सगळीं नाटकां पळोवप आनी प्रत्येक नाटक पळोवन जाल्या उपरांत दुसरे दिसा आवयचीं पिंजर्कीं न्हेसणां न्हेसून बायलांच्या भुमिकांचें अनुकरण करप हो तांकां छंद लागलो. स्त्री भुमिकेक योग्य असो आंगलोट, मुखामळ आनी आवाजाची देणगी तांच्या आंगांतल्या अभिनयाक पूरक थारली.

गांवच्या वर्सुकी जात्रेच्या नाट्योत्सवांत 'साक्षात्कार' ह्या नाटकांत तांणी द्रौपदीची भुमिका करून ह्या मळार पयलें पावल घालें. उपरांत तांणी नेमान स्त्री भुमिका केल्यो.

'संधी संग्राम-द्रौपदी, एकच प्याला-सिंधू, मानापमान भामिनी, भावबंधन-लतिका, प्रेमसंन्यास-लीला, दाजी धडपडे-मंदा, उधार-उसनवार-शैलजा ह्यो भुमिका तांणी केल्यो. एक उत्कृश्ठ कलाकार म्हणून तांणी गोंयांत आनी गोंया भायर शाबासकी जोडली.

मा. काशिनाथानीं आपली पुराय जीण रंगदेवतेची सेवा करपांत घालीं. हें करतना खुबदां तांचें आपल्या घराब्या कडेन दुर्लक्ष जालां. पूण रंगमाचये वयली श्रद्धा आनी सेवा हातूंत खंड पडूंक दिवंक ना. रसीक प्रेक्षकां कडल्यान तांकां खूब प्रेम-मोग-माया फावो जाली. तांचें मराठी शिक्षण फकत चौथी मेरेन आसलें तरी तांणी ताचेर मात करून मराठी रंगमाची आपल्या अभिनयाच्या म्हालवजार गाजयली.

तांणी स्त्री भुमिका केल्यो त्यो दादलोच करता हाचेर खूब जाणांचो विस्वास बसनासलो. हाचे वयल्यान तांच्यो भुमिका कितल्या तांकीच्यो हाची कल्पना करूं येता. तांच्या ह्या रंगमाचये वयल्या कर्तृत्वान तांणी आपले बरोबर शिरोडें गांवाकय नामना मेळोवन दिली.

तांणी 'राजाराम संगीत मंडळी, प्रभाकर संगीत मंडळी' हातूंत सातत्यान 21 वर्सां काम केलें. दिग्गज नट बालगंधर्व, दामूअण्णा मालवणकर, नानासाहेब फाटक हांच्या सांगातान लेगीत काम केलें आनी तांच्या अभिनय कौशल्य आनी कला गुणांचो तांकां अभ्यास करूंक मेळ्ळो. तांच्या अभिनयाच्या सांगतान मा. काशिनाथ खूब नवें-नवें शिकले.

नाट्य-माचये वयल्या तांच्या योगदानाचो भोवमान हंस संगीत नाट्य मंडळ (फोंडें), सम्राट क्लब (कपिलेश्वरी), गोंय सरकार, गिरिजाबाय केळकर, स्मृती संमेलन (फर्मा गुडी), गोमन्तक मराठी अकादेमी, मराठी रंगभुमी शतकोत्तर महोत्सव समिती, प्रतिभा फ्रेंडस् सर्कल (बोरी), केपे पत्रकार संघ, प्रभाकर नाटक कंपनी (पुणे) सारकिल्या मान्यवर संस्थांनी केला.

खऱ्या अर्थान संगीत-रंगभुमी माचये वयली सम्राज्ञी थारिल्ली मास्टर काशिनाथ शिरोडकारांक 18 जानेवारी 2003 ह्या दिसा दिवाझा जाली.

# लक्ष्मण पै

– चित्रकला



संवसारीक नामना मेळिल्लो एक गोंयकार चित्रकार. मूळ घराणें पै फोंडेंकार उर्फ सांबारी मडगांवांत राबितो करून आशिल्लें. लक्ष्मण पै हांचो जल्म 21 जानेवारी 1926 त जाल. मडगांवच्या दामोदर विद्यालयांत ताणीं आपलें मुळावें शिक्षण घेतलें. उपरांत ते मडगांवचे सरकारी शाळेंतल्यान पुर्तुगेजींतलो सेगुंदग्राव पास जाले. उपरांत न्यू इरा हायस्कुलांत ताणीं मॅट्रीक मेरेनचें शिक्षण घेतलें.

पिरायेच्या 12/13 वर्सांचेर ते आपलो मामा रामनाथ मावजो हाच्या स्टुडियोंत वचूंक लागले. थंय मामाच्या हाता सकयल फोटोग्राफीचें ल्हान-ल्हान काम करतनाच हे कले विशीं तांकां आवड निर्माण जाली.

मॅट्रीक पास जाले उपरांत, 1943 वर्सा गोंयचो फाकिवंत चित्रकार दीनानाथ दलाल आनी आपलो मामा रामनाथ मावजो हांच्या उत्तेजनान ते मुंबय जे. जे. स्कूल ऑफ आर्ट हांगा कलेचें शिक्षण घेवंक गेले. 1947 वर्सा शिक्षण पुराय करून ताणी तेंच कॉलेजींत शिक्षकाची नोकरी धरली.

जे.जे.स्कूल ऑफ आर्ट कॉलेजांतल्या चार वर्सांच्या नोकरे उपरांत 1951 वर्सा तो पॅरिसाक गेले. थंय ते कांय भारतीय चित्रकारांक मेळ्ळे. जे थंय स्थायिक जाल्ले. तांच्या उत्तेजनान 1952 वर्सा ताणीं लंडनांत 'रू अ द लियनांत' आनी पॅरिसाक आपल्या चित्रांचें प्रदर्शन भरयलें. थंय तांकां बरो प्रतिसादूय मेळ्ळी.

आपल्या जल्मभुंयेची आनी देशाची ओढ आशिल्ल्या कारणान तांकां भारतांत येवन स्थायिक जावचें अशें दिसूंक लागलें. म्हणून ते 1953 त भारतांत आयलो. ताणीं दिल्लीक प्रदर्शन मांडलें. 1954 वर्सा ताणीं मुंबय प्रदर्शन भरयलें. पूण भारतांत तांचे कलेक फावो तसो प्रतिसाद मेळ्ळोना. ते परत पॅरिसाक गेले.

1954 ते 1985 ह्या काळांत ताणीं अस्तंत जर्मनी, न्यू यार्क, बँकोक, सिंगापूर, अमेरिका तशेंच भारतांत साबार सुवातींनी आपल्या चित्रांचे प्रदर्शन

घडोवन हाडलें. गौतम बुद्ध, ऋतुसंहार, गीत-गोविंद, महात्मा गांधीची जीण, रामायण आदी जायत्या विशयांचेर ताणीं आपली प्रदर्शना घडोवन हाडली.

तांच्या चित्रांत इतलो जिवंतपणा अणभवपाक येता की तीं जिवीं तट्टीत कशीं दिसतात. 1960, 1963, 1972 ह्या तिनूय वर्सां ललीत अकादेमीचो पुरस्कार तांकां लाबला. तांच्या आंगांत आशिल्ल्या कलेचो लाव घेवचे पसत गोंय सरकारान तांची 1977 वर्सा 'गोवा कॉलेज ऑफ आर्ट' कॉलेजीचो प्राचार्य म्हणून नियुक्ती केली.

1985 वर्सा भारत सरकारान ताका 'पदमश्री' हो पुरस्कार दिवन तांचो भोवमान केलो. गोंय, दमण, दीव सरकारानय तांचो भोवमान केलो. कलेचो गूण जल्मताच मनीस घेवन येता. तो योग्य तरेन वाडोवंक येता. ताका तळमळ, जिद्द, साधना, तपश्चर्या लागता. ती पुरायेन लक्ष्मण पै कडेन आशिल्ली.

भुरगेपणा सावन कलेची आवड आशिल्ल्या लक्ष्मण पैन सातत्यान कलेची साधना केल्ल्यान विकासाची तेंगशी हातासपा मेरेन ते पावले. आपल्या सततच्या यत्नांनी ताणें जैताची घुडी वयर वयर काडली.

तांच्यो कलाकृती संवसारांतल्या नामनेच्या वस्तू संग्रहालयांनी तशेंच हेर खाजगी आनी भोवशीक संस्थांनी दिश्टी पडटात.

# मारिओ मिरांडा

- चित्रकला



आंतरराष्ट्रीय नामनेचे चित्रकार मारियो मिरांडाचो जल्म 1926 वर्सा दमणांक जाल्लो. तांचो मूळ गांव लोटले-साश्ट. बंगळुरूच्या सेंट जोसेफ बॉयज हायस्कुलांत तांचें मुळावें शिक्षण जालें. उपरांत तांणी मुंबयच्या प्रसिद्ध सेंट झेवियर महाविद्यालयांतल्यान इतिहास विशयांत पदवी प्राप्त केली.

भुरगेपणांत हेर भुरग्यांवरीच मारियो वण्टींचेर चित्रां पितारताले. तें पळोवन तांचे आवयन तांकां चित्रकलेची चोपडी हाडून दिली. ते चोपडेचो उल्लेख जाण्टे पिरायेर लेगीत ते 'म्हजी डायरी' अशे करताले. शाळेंत शिकतना तांकां चित्रां खातीर शिक्षकां कडल्यान सदांच तापोवणी पडटालीं. शिक्षकांचीं, धर्मगुरूंचीं विनोदी चित्रां काडिल्ले खातीर तांका शाळेंत ख्यास्त भोगची पडल्या. चित्रां पितारप हो मारियोचो निजाचो छंद आसलो आनी तो छंद तांचो वाडतच गेलो. ते आयएएस जावपाक सोदताले आनी तांकां वास्तुशिल्पकारय जावपाचें आसलें. पूण ते रमले चित्रकलेंतच. चित्रकले मुखार ते तान, भूक विसरताले.

सुरवातीक ते जायरात कंपनींत गेले. 'द इलस्ट्रेटेड विकली ऑफ इंडिया'तल्यान तांणी व्यंगचित्रकार म्हणून आपले कारकिर्दीक सुरवात केली. 'टायम्स ऑफ इंडिया', 'करन्ट मॅगझिन', 'फेमिना', 'इकॉनॉमिक्स टायम्स' अश्या मुखेल दिसाळ्यांतल्यान काम केलें. मिस निंबुपानी, मिस फोन्सेका लोकप्रिय जाली. वेवसाया सारक्या रूक्ष विशया वयलीं व्यंगचित्रांत मारियोची म्हानताय, समज, कुशळताय दिसताली. पुर्तुगेजांच्या 450 वर्सांच्या राजवटीचो गोंयचेर व्हड प्रभाव जाल्लो अजून मेरेन दिसून येता. ताका लागून संस्कृतायेंत पूर्व आनी पश्चिमेचो एकवट जाल्लो दिसून येता. मारियोबाबांच्या चित्रांनी गोंयची लोकजीण, सांस्कृतीक जीण, भरभरून दिसून येता.

गोंयचे नुस्तेकार, पाडेली, पोदेर, रांपणकार, माड, माडयो, शेतां, भाटां,

कुळागरां, आंबे, काजू, दोंग, दोंगुल्ल्यो, न्हंयो. गोंयची चावडी, गोंयचे तिठे, हिंदू, क्रिस्तावांचीं आदलीं घरां, गोंयचो रसरशीत फुलिल्लो सैम हें सगळें मारियोच्या फिशाल बोटांनी पितारिल्लें दिसून येता. आपल्या सगळ्या कलाकृतींतल्यान तांणी गोंयां विशीं आपल्यो खाशेल्यो कुरवो दवरल्यो.

जगभर वट्ट 22 देशांनी तांणी चित्रांचें प्रदर्शन भरोवन गोंयची प्रतिमा देशांत आनी आंतराष्ट्रीय पांवड्यांचेर उंच काडपाचो भरीव यत्न केला. आपल्या प्रवासांतल्यो यादी आनी प्रसंग तांणी चित्रबद्ध केल्यात. खास करून लिसबन, पॅरिस, जर्मनी आनी लंडन. तांचीं व्यंगचित्रां 'लिलीपूट पंच' ह्या आंतरराष्ट्रीय नामनेच्या नेमाळ्यांनी उजवाडाक आयल्यांत. तांणी फाकीवंत चित्रकार आर.के. लक्ष्मण हांचे वांगडाय काम केलां.

चित्रकलेच्या मळार भरीव अशें योगदान दिल्ल्या मारियोक 1988 वर्सा पद्मश्री आनी 2002 वर्सा पद्मभूषण अशे केंद्र सरकाराचे अत्यंत प्रतिशठेचे पुरस्कार फावो जाल्यात. बंगळुरूच्या अखिल भारतीय कार्टुनिस्ट संघटने कडल्यान तांकां जीवन गौरव पुरस्कार फावो जाला.

अशा ह्या असामान्य प्रतिभेच्या गोंयकार चित्रकाराक 11 डिसेंबर 2011त तांच्या मूळ गांव लोटली हांगासर देवाचो आपोवणो आयलो.

# लक्ष्मणराव सरदेसाय

- साहित्यीक



लक्ष्मणराव सरदेसायाचो जल्म 18 मार्च 1904 दिसा फोणें म्हालांतल्या सावयवेरें गावांत जालो. सावयवेरेंचे सैम सोबीतकायेन भरिल्ल्या वाठारांत वाडिल्ल्या लक्ष्मणरावांक सैमान पिशे लायलें. माडांच्या तशेंच कुळागरांतल्या माडयांच्या सावळेंत वावुरतना सरभोंवतणचें वातावरण तांकां पिसो करतालें. तांचें साहित्यीक मन जागें जालें आनी पिरायेच्या अठराव्या वर्सा ताणीं लेखणी हातांत घेतली.

ताणीं 'सौमित्र' हें नांव धारण केलें आनी भारत, हिन्दू, उ एराल्ड, प्रकाश, केसरी, यशवंत, रत्नाकर आनी हेर साबार दिसाळ्यांनी आनी नेमाळ्यांनी बरोवप्याक सुरवात केली. गोंयच्या सामान्य मनशाच्या अंतरंगाचो ताणीं थाव घेतलो. गोंयचो रेंदर, गोंयचो पदेर जसो मनाक भावलो तसोच ताणीं आपणाले कथेंत पितारलो.

सेतमान लिसेव पास जायना बरोबर ताणीं म्हापशांत 'कॉलेजियू इंडियान्' ही शिक्षणीक संस्था सुरू केली. जें काम आंगार घेतलां तें पुर्णत्वाक व्हरप हो तांचो निजाचो सभाव. शिक्षण घेवन अज्ञानाचो काळोख पयसावन थंय ज्ञानरूपी दिवो लावप. त्या व्यक्तीचें जीवन सुदरावप, राष्ट्राच्या संवर्धन आनी समृध्दी पासत वावरप, ही शिक्षण विशयक तांची विचारसरणी आसली.

देशभक्त आनी समाज सुदारक दादा वैद्य हांणी फोंड्यां 'गोवा विद्या प्रसारक मंडळा'ची थापणूक केल्ली. फोंड्याचें आल्मेदा कॉलेज ही ह्या मंडळाची मुखेल शाखा आशिल्ली. ह्या कॉलेजीतचे प्रिन्सिपल म्हणून लक्ष्मणरावान धा वर्सां काम केलां. 1926 ते 1945 अशीं वीस वर्सां ताणें तन आनी मनान शिक्षकी पेशांत घालयलीं. कांय प्रमाणांत ताणीं देशभक्ती रूजोवपाचें काम केलें.

शिक्षकी पेशा आपणावचे पयलींच तांच्या साहित्यीक प्रतिभेक कोमरी येवपाक लागिल्ली. 1930त 'यशवंत' ह्या नेमाळ्यान आयोजित केल्ल्या कथा लेखनाचे सर्तींत तांचे 'मोहिनी' हे कथेक दुसरें इनाम फावो जाल्लें आनी तांकां व्हड

प्रमाणांत लोकप्रियता मेळ्ळी. तांणीं रोखडोच 'कल्पवृक्षाच्या छोपत' हो कथासंग्रह उजवाडाक हाडलो, जो नागपूर विद्यापीठान एम्.ए.च्या अभ्यासक्रमांक लावन लक्ष्मणरावाच्या मानाच्या तुऱ्यांत भोवमानाचें पांख खोयलें.

लक्ष्मणरावान सातशें वयर कथा बरयल्यो. तांचे सोळा कथासंग्रह उजवाडाक आयल्यात. 'सागराच्या लाटा, वादळातील नौका, ढासळलेला बुरूज, अनितेचे दिव्य, संसारातील अमृत, मोहोर, मधुचंद्र, लक्ष्मणरेषा, सोनेरी ऊन, निवारा, विजेची कोरी, जगावेगळा, गोव्याकडची माणसं, गोमंतकातील एक धर्मांतर प्रकरण' हीं सगळीं पुस्तकां उपरांत उजवाडाक येत रावलीं. आनी प्रत्येक पुस्तकाक वाडटी लोकप्रियता मेळ्ळी. 'मांडवी! तूं आटलीस' ही ताची प्रसिद्ध कादंबरी.

लक्ष्मणरावान मराठींतल्यान बरोवप करून जे तरेन आपणाले चाहते तयार केले, तेच तरेन कोंकणींतल्यान लेखन करून चाहते निर्माण केले. गोंय आनी गोंयच्या सैमाचेर तांचो मनापसून मोग आसलो, तितलेच लोकजीवन ताका भावतालें. तांकां जशें गोयचें जीवन दिसलें तशेंच्या तश्शें ताणें आपल्या कथांनी रंगयलां. 'कथा शिल्पां', 'पापडां कवळ्चो', 'खबरी', अशीं ताचीं कोंकणी पुस्तकां.

18 जून 1946त डॉ. राम मनोहर लोहिया हांचे मुखेलपणा खाला ताणीं गोंय स्वतंत्रताये खातीरचे झुजांत वांटो घेतला आनी बंदखणय भोगल्या. ते नॅशनल गोवा कॉंग्रेसचे संस्थापक सदस्य आनी संघटकय आसले. संघटना घट्ट करचे पासत ते रातदीस गोंयभर भोंवल्यात. गोंयचे स्वतंत्रताये खातीर तांकां गोंयांभायर मुंबय राबितो करचो पडलो. ऑल इंडिया रेडियोचेर सालाझारशाही विरूद्ध प्रचार करचे पसत ताची पुर्तुगेल आनी कोंकणी मुखेली म्हूण नेमणूक जाल्ली.

आकाशवाणी मुंबय केंद्रा खातीर ताणीं साबार कथा, श्रुतिका आनी भाशणांय बरोवन वितरायल्यांत. 1951त न्यूयॉर्क हेराल्ड ट्रिब्यूनान आयोजीत केल्ल्या कथा सर्तींत 'मोहोर' हे तांचे कथेक आंतरराष्ट्रीय पांवड्यांचेर इनाम फावो जालें.

1982 वर्सा साहित्य अकादेमीन ताच्या 'खबरी' ह्या पुस्तका खातीर तांकां साहित्य अकादेमी पुरस्कार दिवन तांचो भोवमान केलो.

4 फेब्रुवारी 1986 दिसा ते ह्या संवसाराक अंतरले.

# बाळकृष्ण बोरकार (बाकीबाब)

- साहित्यीक



बाळकृष्ण बोरकार हांचो जल्म 30 नोव्हेंबर 1910 दिसा केपें तालुक्यांतल्या कुडचडें गावांत जालो. तांच्या बापायचें नांव भगवंत बोरकार. बाळकृष्ण हे नामनेचे कोंकणी आनी मराठी कवी. ताणीं कादंबरी आनी लघुनिबंद बरयल्ले आसले तरी कोंकणी आनी मराठी साहित्यांत ते कवी म्हणूनच प्रसिध्द आसात. ताणीं सुटके झुजांतय वांटो घेतिल्लो.

तांचें मुळावें शिक्षण मराठी तिसरी मेरेन धारवाडाक जालां आनी इंग्लीश मॅट्रिक मेरेन (इस्कोल नॉर्मल) जालें. ताणीं पुर्तुगिज टिचर्स ट्रेनिंग कॉलेजीची पदविका घेतिल्ली. ताणीं गोयांतल्या थळाव्या तशेंच सरकारी हायस्कुलांनी शिकोवपाचें काम केलें. कोंकणी समाजांत आनी साहित्यांत तांकां बाकीबाब ह्या नावांन लोक चड वळखतात.

1946 वर्सा ताणीं गोयांभायर रावन गोंयच्या स्वतंत्रतायेच्या लढ्यांत वांटो घेतलो. 1946 ते 1955 मेरेन मराठींतलें 'आमचा गोमंतक' आनी कोंकणींतलें 'प्रजेचो आवाज' ह्या दोन नेमाळ्यांचे ते संपादक आशिल्ले. 1955 वर्सा सावन गोंय स्वतंत्र जायमेरेन पुणे आकाशवाणी केंद्राचेर आनी उपरान्त 1970 वर्सा निवृत्त जायमेरेन पणजी आकाशवाणीचेर ताणीं काम केलें.

तांची मराठी बरपावळः- काव्य झेले : जीवन संगीत, दूधसागर, आनंद भैरवी, चित्र वीणा, गीतार, चैत्रपुनव, कांचन संध्या, कालिदासाचो 'मेघदूता'चो ताणीं केल्लो मराठी अणकार. कथां झेलेः प्रियदर्शनी, समुद्रकाठची रात्र, कादंबऱ्यो : मावळता चंद्र, अंधारातील वाट, भावीण. भावीण हे कादंबरीचो पांच भाशांनीं अणकार जाला. कागदी होड्या हो लघुनिबंदां झेलो, चांदण्याचे कवडसे, हो ललित निबंदां झेलो, आनंदयात्री रवींद्रनाथ हें टागोराचे चरित्र, हाचे भायर स्टिफन

त्झ्वायगचे जळते रहस्य हे कादंबरीचो आनी काचेची किमया हे कथेचो अणकार. बापूजींची ओझरती दर्शने, आम्ही पाहिलेले गांधीजी, माझी जीवन यात्रा, गीता-प्रवचने, ईशावास्यो पनिषद हीं ताचीं अणकारीत पुस्तकां आसात.

तांची कोंकणीं बरपावळः कवितां झेलेः पांयजणां, सासाय, कष्ठमणी, अणकार : गीता प्रवचन (विनोबा भावे) गीताय, वासवदत्त, एक प्रणय नाट्य, पैगंबर, संशयकल्लोळ, भगवान बुद्ध, कोंकणी काव्य संग्रह.

मुंबय जाल्ल्या कोंकणी साहित्य सम्मेलन, गोमंतक मराठी साहित्य सम्मेलन, सोलापूराक जाल्ल्या मराठी कवी सम्मेलन, प्रवासी वंग साहित्य सम्मेलन, अलाहाबाद हांगा जाल्ल्या साहित्यकार संसंदेचें, पणजेच्या मिनेझीश ब्रागांझ इन्स्टिट्युटाचें, अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचें, णववे कोंकणी परिशदेचो अध्यक्ष अशीं मानादीक पदां तांकां मेळ्ळ्यात.

1934 वर्सा बडोद्याक जाल्ल्या कवी सम्मेलनांत बाकीबाबांक "तेथे कर माझे जुळती" हे कवितेक भांगरा पदक फावो जालें. 'भावीण' हे कादंबरीक गोमंतक मराठी साहित्य सम्मेलनाचें भांगरा पदक फावो जालें. आनंद भैरवी, चित्रवीणा, गीतार, आनंदयात्री रवींद्रनाथ ह्या पुस्तकांक महाराष्ट्र शाशनाचीं इनामां मेळ्ळयांत.

'सासाय' ह्या तांच्या कोंकणी काव्य झेल्याक 1981 वर्साचो साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जाला. 1967 वर्सा राष्ट्रपतीनी 'पद्मश्री' हो किताब दिवन तांचो भोवमान केला. सुटके झुजांत केल्ल्या वावराक लागून भारत सरकारान तांचो ताम्रपत्र दिवन भोवमान केला. अश्या ह्या म्हान साहित्यकाराक 8 जुलै 1984 वर्सा देवाचें आपोवणें आयलें.

# र.वि. पंडित

- साहित्यीक



भौसाचे हावेस, उत्फर्के आनी तांची दुख्खां पयले फावट घसघशीतपणान मांडपी आनी कोंकणी कवितेक समाजीक आशयाचो संदर्भ दिवपी कवी म्हूण जाची नामना आसा ते र.वि. पंडित. तांचें पुराय नांव रघुनाथ विष्णु पंडित. तांचो मूळ गांव पाळें, शिरदोन. तांचो जल्म 6 एप्रिल 1917 दिसा रायबंदर हांगा जालो.

सैमाच्या आंगात, मनशाच्या सभावांत ताच्या हांश्यांत, रडपांत, ताच्या स्वासांत आनी चितनांत जियेवपांत आनी मरणातय जें काव्य लिपिल्लें आसता तें पारखुपाक कवी मनच जाय आसता. दर्याचो घसघस, माड माडयांचें धोलप, मनशाचो भुंयेचेर, सैमाचेर आशिल्लो मोग अणभवपणाक कवीचेंच मन आसचें पडटा. म्हणच आसा जें 'रवीक दिसना तें कवीक दिसता'. र.वि.पंडितांनीय अशे तरेची तांक आपलें मर्दी निर्माण केल्ली.

तांचें मुळावें शिकप पाळें शिरदोन हांगा जालें तर माध्यमीक शिकप वास्को आनी न्यू इंग्लिश हायस्कूल, पुणें हांगा जालें. तांणी फुडलें बी.ए. मेरेनचें शिकप पुण्यांत पुणें विद्यापीठांतल्यान केलें. कवितेच्या मळार तांणी 1937 वर्सा पावल दवरलें आनी थोड्याच तेंपान तांणी तें क्षेत्र व्यापून उडयलें. खरें म्हणल्यार पिरायेच्या सोळा सतरा वर्सांचेर कविते विशीं तांच्या मनांत गोडी निर्माण जाली.

सान पिरायेंत निर्माण जाल्ली कवितेचे गोडयेक सारें माती फावो जाली ती तांकां फावो जाल्ले इश्ट आनी आशिकुशीची परिवार. फर्ग्यूसन कॉलेजाचे तेन्नाचे प्राध्यापक नाथे पै सारके इश्ट, साने गुरूजी, हरिभाऊ जोशी, ज्यॉकी आल्वा सारके फुडारी समाज सेवक तांच्या संगतीत आशिल्ल्यान तांकां एक तरेची प्रेरणा मेळ्ळी.

माणुसकेचें गीत गावपी नामनेची कवी म्हूण गोंयांत, गोंयां भायर आनी आंतरराष्ट्रीय मळारूय तांणी नामना जोडल्या. कोंकणीच्या काव्य मळार अजाप, अद्भूत घडोवपी हो कवी 26 जानेवारी 1963 दिसा 'आयलें तशें गायलें', 'म्हजें उतर गावड्याचें', 'चंद्रावळ', 'उरतलें तें रुप धरतलें', 'धर्तरेचें कवन', अशें पांच

कविता झेले उजवाडा हाडून तांणी खऱ्यांनीच अद्भूत घडयिल्लें.

'नाच रे मोरा', 'मोतयां', 'दर्या गाजोता', हेवूय तांचे कांय कविता झेले उजवाडाक आयल्यात. तेचपरी महाभारत आनी रामायणांतल्यो कथा ह्यो तांच्यो भुरग्यांखातीर बरयिल्ल्यो काणयो. कोंकणी इतलीच तांणी मराठींतल्यानय भरपूर लिखाण केलां. 'तरंग' आनी 'धागेदोरे' हे तांचे दोन वेगवेगळे कथा संग्रह 1969 वर्सा उजवाडाक आयले. तांणी भगिनी, वसंत, माधुरी, मनोहर, स्त्री, चित्रमय जगत, कथा भारती आनी कितलेशेच नियतकालिकांतल्यान लिखाण केलां.

र.वि.पंडिताची ल्हान व्हड, इंग्लिश, कोंकणी मराठी मेळून चाळीस वयर पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. सुमार पस्तीस आंतराष्ट्रीय आनी भारतीय कविता संग्रहात तांच्यो कविता वाचूंक मेळटात. इंग्लिश, फ्रेंच, जर्मन, पुर्तुगेज, कोरियन, इटालियन, रशियन, पंजाबी, आसामी, उडिया, कन्नड, हिंदी, तेलगू, तामीळ, मळ्यालम, गुजराती, बंगाली भाशांतल्यान तांच्या कवितांचे अणकार जाल्यात.

सादीं उतरां पूण उच्च तत्वगिन्यानान भरिल्ल्यो तांच्यो कविता वाचतना बुद्दीक जितले प्रमाणांत चालना मेळटा तितलेच प्रमाणांत मनाक धादोसकाय मेळटा. तांणी गोंयचे सैम सोबीतकायेचेर, गोंयचे माडमाडयांचेर, दर्याचेर, न्हंया-दोंगराचेर भरभरून मोग केला आनी आपल्या उतरांनी परगटायला. र वि पंडित एक बरे पैकीं फोटोग्राफर आशिल्ले. आनी तांणी फोटोग्राफर म्हूण इनामांय जोडल्यांत.

श्री पंडित हांकां वेगवेगळ्या देशांनी तांचे कविते खातीर इनामां दिल्यांत. 1967 वर्सा फिलिपीन्स देशाच्या तीन संवसारीक संस्था कडल्यान आंतरराष्ट्रीय पुरस्कार तांकां फावो जाला. कला अकादमीचींय इनामां तांकां फावो जाल्यांत. तेचपरी 1979 ह्या वर्साचो साहित्य अकादमीचो पुरस्कार तांच्या 'दर्या गाजोता' ह्या कविते झेल्याक मेळ्ळा. तांकां 1982 वर्सा 'पद्मश्री' हो किताब दिवन राष्ट्रपतींनी तांचो भोवमान केला.

श्री र वि पंडितांची कविता कोंकणी पाठ्य पुस्तकांत आसता. एक उदार मनाचे कवी, विद्वान लेखक हीच छाप तांणी आपणाले कवितेंतल्यान, गितांचे रचणुकेंतल्यान आनी हेर साहित्यांतल्यान दर एकाच्या मनार रूजयल्या.

23 सप्टेंबर 1990 दिसा तांकां देवाचें आपोवणें आयलें.

# मनोहरराय सरदेसाय

- साहित्यीक



मनोहरराय सरदेसायांचो जल्म 18 जानेवारी 1925 दिसा पणजे जाला. तांच्या बापायचें नांव लक्ष्मणराव सरदेसाय. ते नामनेचे कोंकणी कवी आनी फ्रेंच भाशेचे जाणकार. तांचे शाळेचें शिकप मराठी आनी पुर्तुगीज भाशेंत जालें.

मॅट्रिक जातकच ताणीं मुंबय विल्सन कॉलेजींत शिक्षणाक सुरवात केली. तांचे बापूय नामनेचे कोंकणी-मराठी कथाकार लक्ष्मणराव सरदेसाय त्या वेळार गोंय मुक्ती चळवळींत बंदखणींत आशिल्ल्यान तांकां शिक्षण व्हडा कश्टान घेवचें पडलें.

मुंबय विद्यापिठाचे एम.ए.परिक्षेंत ते पयल्या वर्गांत पयले आयले. भुरगेपणा सावन साहित्यीक बापायच्या संस्कारांक लागून तांकां वाचनाची आवड जाल्ली. मुंबय कॉलेजींत शिकतना ताणीं साबार कोंकणी, मराठी नेमाळ्यां खातीर कविता, लघुकथा आनी हेर लेख बरयले. ताणीं विल्सन कॉलेजांत व्याख्यातो म्हूण काम केलां.

1952 वर्सा तांकां फ्रांस सरकाराची 'The image of India in France' ह्या विशयाचेर प्रबंध बरोवपाची शिश्यवृत्ती मेळ्ळी. फ्रांसात आपल्या स वर्सांच्या राबित्यांत फ्रेंच, युरोपी आनी हेर साहित्याचो ताणीं खोलायेन अभ्यास केलो.

पॉल एल्युआर, जॅकी प्रिवर्ट, पाब्लो नेरूदा, गार्सियाद लॉकी ह्या कवींचो ताणीं अभ्यास केलो. वॉलतॅर, दिदरॉ, व्हिक्टर ह्युगो, रोमांरोलां, आल्बर्ट श्वायूत झर हांच्या दोळ्यांतल्यान भारत कसो दिसता हें ताणीं शिकून घेतलें. थंय व्हड लेखक, कलाकार आनी चित्रकारांकडेन संपर्क आयलो.

1956 वर्सा, ताणीं हेलसिंकी शारांत निर्वासितांच्या समस्याविशीच्या संवसारीक संघटनेचे परिशदेंत वांटो घेतलो. त्याच वर्सा हॅम्बर्ग शारांत शांती आनी

स्वातंत्र्याच्या संवसारीक संघटनेचे परिशदेंत वांटो घेवपाची संद तांकां मेळ्ळी.

1958 वर्सा तांकां सोरबॉन विद्या पिठाची डॉक्टरेट फावो जाली. 1960 वर्सा आकाशवाणी नवी दिल्लीच्या विदेश सेवा विभागांत ताणीं थोडो तेंप नोकरी केली. 1960-61 ह्या काळांत मुंबयच्या सोमय्या म्हाविद्यालयांत व्याख्यातो म्हूण ताणीं काम केलें. ह्याच वेळार तांचें पयलें कोंकणी पुस्तक 'आयज रे धोलार पडली बडी' उजवाडाक आयलें. ह्याच काळांत मडगांव जाल्ले आठवे कोंकणी परिशदेची यजमानकी ताणीं चलयली. 1977 वर्सा ताणीं एक शिष्यवृत्ती खाला रशियेक भेंट दिली.

1979-85 ह्या काळांत ताणीं मुंबय विद्यापिठांत फ्रेंच भाशेचो प्रपाठक म्हूण काम पळयलें. 1985-90 ह्या काळांत गोंय विद्यापिठांत फ्रँच आनी पुर्तुगीज खात्याचो संयोजक म्हूण काम पळयलें. 1985-92 त गोवा कोंकणी अकादेमीचे उपाध्यक्ष म्हूण ताणीं योगदान दिलां. 1988-91 ह्या काळांत गोंय विद्यापिठाच्या कोंकणी विश्व कोश प्रकल्पाचे मुखेल संपादक म्हूण ताणीं वावर पळयलो. 1993-97 ह्या काळांत साहित्य अकादेमी दिल्लीचे कार्यकारी मंडळाचे निमंत्रक (गोंय) म्हूण ताणीं काम पळयलां.

कोंकणी, मराठी, हिंदी, संस्कृत, फ्रँच, इंग्लीश, पुर्तुगीज भासांचेर तांचे प्रभुत्व आशिल्लें. ताणीं चडशें बरप कोंकणींतल्यान केलां. तांच्यो कविता, गीतां आनी कवनां लोकांच्या तोंडांत घोळून लोकप्रिय जाल्ल्यान तांकां लोकां कवी म्हूण नामना मेळ्ळी. तांचे कवितेंत गोंय, देश, सैम आनी मनीस हांचे विशीं उपाट आनी उत्कट मोग दिसून येता.

गोयांत मुक्ती आदीं आनी उपरांत ल्हव-ल्हव सांस्कृतिक, सामाजिक आनी राजकीय मळार जे बदल आनी रूपांतरां घडत रावलीं, तांचें प्रतिबिंब तांच्या कांय कवितांनी दिसून येता. अर्थीक असमता, अज्ञान, भ्रश्टाचार, अनीत, लोकशार्येंतले उणाव, राजकारण अशा विशयांचेर ताणीं उपहासात्मक बडी मारल्या.

ताणीं रचिल्ले काव्य झेलेः- आयज रे धोलार पडली बडी, गोंया तुज्या मोगाखातीर, जायात जागे, जय पुण्य भूंय, जय भारत, बेब्यांचें काजार, रामगीता, जायो-जुयो, पिसोळीं, भांगराची कुराड, माणकुलीं गीतां, मनोहर गीतां, गोड गोड गीतां (खंड 1 ते 3)

गद्यः आमची भास आमकां जाय, शणै गोंयबाब, साहित्य सुवाद, Honoure de Balzae नाटकांः- स्मगलर, बिराड बदललें, जादूचो कोंबो. संपादन

अणकार Anthology of Konkani poems कोंकणींत अणकारः देवाचीं उतरां, कांदीद (व्हॉल्तॅर) आयलें आमचें राज, विवेकानंद (रॉमा रॉलां) कोंकणी भाशा मंडळाचें 'स्वतंत्र गोयांतली कोंकणी कविता' ह्या पुस्तकाचें ताणीं संपादन केलां.

तांकां जायते पुरस्कार फाव जाल्यात. 'पिसोळी' कविता झेल्याक साहित्य अकादेमी पुरस्कार, गोवा कला अकादेमीचो शारदा पुरस्कार, गोंय राज्याचो सांस्कृतिक पुरस्कार, राष्ट्रीय हिंदी अकादेमीचो सातवाहन पुरस्कार.

अश्या ह्या म्हान साहित्यकाराक 22 जून 2005 दिसा देवाचो आपोवणो आयलो.

# अना म्हांबरो

– साहित्यीक



अना म्हांबरो कोंकणींतले विनम्र, श्रेश्ठ, दर्जेदार तशेंच विनोदी साहित्यीक. तांचें पुराय नांव अरविंद नारायण म्हांबरो पूण अना म्हांबरो ह्या नांवानूच तांची चड नामना आसा. तांचो जल्म 4 ऑक्टोबर, 1938 दिसा रायबंदर, गोंय हांगा जाला.

अनाचें मुळावें शिकप रायबंदरा जालें. वास्को आनी पणजे माध्यमीक शिक्षण जातकच बेळगांव आनी मुंबय हांगा तांणी कॉलेज शिक्षण घेतलें, उपरान्त मुंबय विद्यापीठाची एम.ए. पदवी घेतली. ताणीं नवी दिल्लीचे नॅशनल आर्किव्हज ऑफ इंडिया हे संस्थेंत आनी लंडनच्या विद्यापीठांत पुरातत्व विद्येचें शिक्षण घेतलें.

ताणीं मुंबयच्या आकाशवाणी केंद्राचेर स्टाफ आर्टिस्ट म्हूण काम केलां. थंय ताणीं आकाशवाणी खातीर नाटकुली आनी हेर साहित्याचें योगदान दिलां. तशेंच ताणी कोंकणी वृत्त निवेदनूय केलां. उपरांत कीर्ती कॉलेज, मुंबय हांगा अध्यापक म्हूण काम केला.

कांय तेप ताणीं पत्रकारितेचो वेवसाय केल्या उपरांत 'टाटा इकॉनॉमिक कन्सल्टन्सी सर्विसेस' हे कंपनीत, रिसर्च असिस्टंट, ज्युनियर इकॉनॅमिस्ट, इकॉनॉमिस्ट कन्सल्टंट ह्या पदांचेर काम केले. 'जे.आर.डी. टाटा हांच्या चरित्रा खातीर संशोधन करून 'जे.आर.डी. टाटा – लेटर्स' हें तांणी संकलीत केल्लें इंग्लिश पुस्तक लोकप्रिय जाला. 1990 वर्सा सावन ते टाटा सेंट्रल आर्काव्हायज हांगा अधिकारी म्हूण काम करताले.

कोंकणी, मराठी आनी इंग्लिश भाशांनी ताणीं साहित्य निर्मणी केल्या. तशेंच नेमाळीं आनी आकाशवाणी ह्या माध्यमांनीय तांचें बरोवप जालां. मुंबय कॉलेजीच्या दिसांनी ताणीं 'कोंकणी' नेमाळ्याचें संपादन केल्लें. ह्या नेमाळ्याक लागून कोंकणी चळवळ फुल्ली.

कॉलेजींत आसतना तांणी कांय नाटकांय रंगमाचयेर हाडलीं. तांचें 'घुमचे

कटर घुम' हें कोंकणींतलें पयलें उजवाडा आयिल्लें पुस्तक. ह्या पुस्तकाक गोंय कला अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला.

गोंयचे संस्कृतायेचें दर्शन घडोवपी ललित लेखांचें 'गोंयची अस्मिताय' हें तांचें दुसरें पुस्तक. तांचें तिसरें पुस्तक 'पणजी आतां म्हातारी जाल्या' ह्या पुस्तकाक साहित्य अकादेमी दिल्लीचो पुरस्कार फावो जाला.

तशेंच 'प्रसादा फूल' 'स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा' ही ताणी संपादीत केल्ली नामनेची पुस्तकां आसात. 'कोंबो गेलो तारवार' हें तांचें गाजिल्लें पुस्तक.

'गजालींचें नाटक' हें ताणीं अपजेन इयोनेस्को हांच्या फ्रेंच नाटकाचो कोंकणी अणकार केल्लो आसा.

ते भायर 'घर नाशिल्लो घरकार' 'त्या दिसाची एक गजाल', 'मरतलो घरच्यांक वळखना' ह्यो ताणीं आकाशवाणी खातीर बरयल्ल्यो एकांकी आसात.

अना म्हांबरेक साहित्य अकादेमीच्या पुरस्कारा वांगडाच गोवा कला अकादेमीचो, कोंकणी भाशा मंडळ (गोंय) चो आनी महाराष्ट्र सरकाराचो पुरस्कार मेळ्ळा.

तांणी गोवा कोंकणी अकादेमी, तशेंच साहित्या अकादेमींत कांय काळ मंडळाचे वांगडी म्हूण काम केलां.

अश्या ह्या नामनेच्या लेखकाक 9 एप्रील 2013 ह्या दिसा मुंबय देवाचे आपोवणे आयलें.

# पांडुरंग राजाराम भांगी

- साहित्यीक



तांचो जल्म 13 ऑगस्ट 1923 वर्सा कुंडय गांवात जालो. तांचें शिक्षण पुर्तुगेजींतल्यान लिसेव मेरेन जालां. कोंकणी खेरीज मराठी, हिन्दी आनी इंग्लिश भार्शेतल्यान तांणी साहित्य साधना केल्या.

पुर्तुगेज भार्शेतल्यान शिक्षण घेतले उपरांत ते कस्टम खात्यांत शिर्वीस करूंक लागले. स्कूलांत शिकतना एक फावट ते पिकनीक मनोवचे पसत वांगड्यां बरोबर किर्लोस्करवाडीक गेल्ले. तेदेवेळार शं.वा.किर्लोस्कार हांणी सगळ्यांक सांगलें कीं किर्लोस्कर वाडींत रावल्यार तुमची सगळ्यांची मराठी बरी पॉलिश जातली. त्याच खिणाक पांडुरंग भांगी शिटकावले आनी तांकां साक्षात्कार जालो. आपली नीज भास कोंकणी, न्हय मराठी आनी तांणी कोंकणी खातीर वावर करपाचें थारायलें.

जरी तांणी 1945 च्या अदमासाक बरोवपाक सुरवात केली तरी 1981 वर्सा ते शिर्विशेंतल्या सेवा निवृत्त जातकच तांणी आपलो चडसो वेळ साहित्य संशोधन कार्यांत घालयलो. तांचें मुळावें शिकप पुर्तुगेजींतल्यान जाल्ल्यान तांचें चडशें वाचप पुर्तुगेजींतल्यान जाल्लें. मानुएल बांदैर, सिसलीया मैथरेलीश आल्मेदा गार्रेता, फेर्नांद पेसोवा, स्टिफन झाईग, रोमा रोलां, टागोर ह्या लेखक - विचारवंताचो प्रभाव तांचेर जाल्लो. तांच्या विचारांची बसका चौकस तशीच सुक्ष्म जाल्ली.

ते एक मनस्वी कवी. जोखत्या आनी नकसूद उतरांनी कविता रचतना कवीचो वैचारीक आनी आध्यात्मीक सभाव गूण कवितेक एक खेरीत पांवड्यार पावयता. 'दिश्टावो', 'अदृश्टाचे कळे' आनी 'चांफेल्ली सांज' हे तीन कविता झेले म्हणल्यार कोंकणी कविता मळा वयल्यो म्हत्वाच्यो साहित्यकृती आसात. अंतर्मुखताय ही तांच्या काव्याची मुखेल बसका आसा. तांचे भाशेक पुर्विल्ले शब्दकलेची सोबीत झलक पळोवंक मेळटा.

तांणी आपल्या वाचपांत आयिल्लें बरें बरें संवसारीक साहित्य कोंकणींत हाडपाचो यत्न केलो. टागोराचें 'चित्रा' (नाटक), ऑस्कर वायल्डाचें 'सालोमें'

(नाटक), तशेंच सोफोक्लिसाच्या किंग इडिपसचें 'यदीप राजा' अशें भाशांतर केलां. हाचे भायर मोहन राकेश हांच्या 'आषाढ का एक दिन' ह्या हिन्दी नाटकाचो कोंकणीत अणकार केला. 'उतरांची डायरी' ही तांची दीसपटी पुस्तकरूपान उजवाडाक आयल्या.

तांकां पोस्टाचीं तिकिटां (स्टँप) एकठांय करपाचो छंद आशिल्लो. तांचे कडेन स्वित्झरलँडाच्या स्टँपांचो खूब व्हड सांठो आशिल्लो. 1986 वर्सा 'गोवा पेक्स' हे संस्थेंत तांका भांगरा पदक दिवन तांचे हे कलेची तुस्त केल्ली. तांचे कडेन कितलेशेच दुर्मिळ अशे स्टँप आसले.

तांणी लोकसाहित्याचो अभ्यास केल्लो. कांय लोककथाय तांणी वेळोवळ उजवाडायल्यात. शिर्विशेच्या निमतान तांचो राबितो गोंय सोडून दीव, दमण आनी मुंबय अशा सुवार्तींनी आशिल्लो. शिर्विशेंतल्यान निवृत्त जातकच तांणी भोव मोलाचो वावर हातांत घेतलो, तो म्हणल्यार 'कोंकणी शब्दसागर'.

गोवा कोंकणी अकादेमी निर्मित 'कोंकणी शब्दसागर 'अ' आनी 'आ' ह्या शब्दकोशाच्या दोन भागांचे ते संपादक आसात. ह्या कोशांत तांणी उतरां फाटल्यान आशिल्ल्या वेगवेगळ्या संदर्भाची अभ्यासपूर्ण म्हायती दिल्या.

तांच्या 'दिश्टावो' आनी 'अदृश्टाचे कळे' ह्या पुस्तकांक कला अकादेमीचो साहित्य पुरस्कार फावो जाल्लो आसा. तांकां कोंकणी भाशा मंडळ, कुडचडेच्या कोंकणी कलासाहित्य केंद्राचो 'जनगंगा' पुरस्कार, जेज्वीत आंतोन पेरेरा यादस्तीक हो थॉमस स्टिफन्स कोंकणी केंद्राचो पुरस्कार, अस्मिताय प्रतिश्ठानाचो पुरस्कार, तसोच गोंय राज्य सरकाराचो पुरस्काररूय फावो जाल्लो आसा.

तांच्या 'चांफेल्ली सांज' ह्या पुस्तकाक 2000 वर्सांचो साहित्य अकादेमी दिल्लीचो पुरस्कार फावो जाला.

मनस्वी कवी आशिल्ल्यान ते सदांच आपले भितरच आसताले. तांणी प्रसिध्दीची हांव केन्नाच बाळगिली ना. आपल्याक जें किर्ते दिसता ते मेकळेपणान मांडपाक आनी उक्तावपाक तांणी केन्नाच कोणाची भीडमुर्वत धरती ना.

कोंकणी साहित्यांत कवी म्हूण खाशेली सुवावत निर्माण करपी पांडुरंग भांगी 9 नोव्हेंबर 2008 ह्या दिसा ह्या संवसाराक अंतरले.

# शंकर पांडुरंग रामाणी

- साहित्यीक



शंकर पांडुरंग रामाणींचो जल्म 26 जून 1923 वर्सा वेरें-गोंय हांगा जालो. तांचो जल्म एका सुशिक्षीत मध्यमवर्गीय कुटुंबांत जालो. तांचे बापूय सरकारी शिर्वीस करताले.

तांचें मुळावें शिकप मराठींतल्यान जालें तर माध्यमिक शिकप पुर्तुगेजींतल्यान जालें. लिसेवाचीं तीन वर्सां पुराय करून तांणी मुखा वयलें शिकप इंग्लिशींतल्यान घेवपाक सुरवात केली. वास्कोच्या सेंट जोसेफ इंस्टिट्यूट स्कुलांतल्यान ते मॅट्रिक पास जाले. ते न्हंय परिवहन खात्यांत शिर्वीस करताले, ते निवृत्त जायमेरेन.

भुरगेपणांतल्यान ते अबोल आनी अंतर्मुख वृत्तीचे आसले. मराठी आनी कोंकणींतल्यान तांणी भरपूर काव्यनिर्मणी केली तरी मुखेलपणान तांच्या कवितेची सुरवात मराठींतल्यान जाली. तांकां पुर्तुगेल, फ्रेंच आनी इंग्लिश ह्यो पाश्चात्य भासो अवगत आशिल्ल्यान तांणी त्या भासांतल्या बऱ्यांतल्या बऱ्या कवितांचें रसग्रहण केलां.

तांणी बरयल्ली पयली कविता विडंबनात्मक आसली. 1937 वर्सा 'पाखरा येशीक का परतून' ह्या शिर्षकाची ती कविता शाळेच्या मॅगझिनांतल्यान उजवाडाक आयिल्ली. त्या उपरांत तांकां काव्य लेखनाचें पिशेंच लागलें. फुडें 'प्रकाश', 'नयन', 'झारापकर', 'किर्लोस्कार' अश्या मासिकांतल्यान तांच्यो कविता सातत्यान उजवाडाक येवंक लागल्यो. 1942 वर्सा सावन नाशिकाचें 'स्वदेश' सातोळें आनी कोल्हापूरचें 'महाद्वार' म्हयनाळें हातूंतल्यान ते नित्य नेमान बरोवंक लागले. रामाणीचे 'सूर्यफुले', 'कातरवेळ', 'आभाळवाटा', 'पालाण', 'दर्पणीचे दीप', 'गर्भागार', 'उर्मिला', अशे सात मराठी काव्य संग्रह उजवाडाक आयल्यात. तांचे 'जोगलांचें झाड', 'ब्रह्मकमळ', 'निळें निळें ब्रह्म', 'निरंजन' अशे चार कोंकणी कविता झेले उजवाडाक आयल्यात. तांची सगळी साहित्य निर्मणी काव्य ह्या एकमेव

प्रकारांत आस्पावल्या. आपलें सगळें जिवीत तांणी कवितेकच ओंपलें म्हणल्यार अतिताय जावची ना.

'सूर्यफुले' हो तांचो पयलो कविता झेलो बालगितांचो आसा. तातूंतल्यो कविता पुर्तुगेजकालीन पाठ्य पुस्तकांत आस्पाविल्ल्यो. 'कातरवेळ' धरून तांच्या कवितेंत स्वतंत्र प्रौढ कवितांचे विचार जाणवूंक लागले.

'आभाळवाटा'तल्यान ते मौज प्रकाशनाचे कवी म्हूण नामनेक पावले. तेच प्रमाण तांच्यो कविता 'सत्यकथे'तल्यानय सातत्यान उजवाडूंक लागिल्ल्यान तांची सुवात प्रतिभावंत कवीं मर्दीं निर्माण जाली.

रामाणींच्यो चडश्यो कविता छंदबद्ध. मराठी कवितेंत लेगीत तांणी योग्य अश्या कोंकणी शब्दांचो उपेग केल्लो दिसता. तांच्यो कविता गुढार्थान भरिल्ल्यो दिसतनाच तीव्र दुख्ख संवेदनांचो अविश्कार व्यक्त जाता. तांचे कवितेंत वेळ काळाचें बंदन नाशिल्ल्यान जण एकटो तांचे कवितेचो आपल्याक जाय तसो अर्थ लावपाक मेकळो आसता.

वयलेचाराक तांच्यो कविता दिसतात तितल्यो हलक्यो फुलक्यो नासतात तर तातूंत अध्यात्मिकतेच्या वाटेन परलोक गमना कडेन वचप सांगता. अश्यो तांच्यो वैचारीक, व्याकूळ करपी उत्कर्ष कवितेचो मोनेळ कविता वाचप्यांचेर पडटा.

रामाणींक महाराष्ट्र राज्य साहित्य पुरस्कार, गोंय राज्य पुरस्कार, गोमंतक मराठी अकादमीचो कृष्णदास शामा पुरस्कार, गोंय कला अकादमीचो 'गोमंत शारदा' पुरस्कार फावो जाला.

1966 त रामाणींक तांच्या 'निळें निळें ब्रह्म' ह्या कोंकणी काव्य संग्रहाक साहित्य अकादमीचो पुरस्कार फावो जाला.

निवृत्ती उपरांत कांय घरगुती कारणांक लागून ते बेळगांव रावताले पूण निमणो स्वास मात तांणी गोंयांतच घेतलो. तांकां 28 नोव्हेंबर 2003 त बांबोळे गोंय हांगा मरण आयलें.

# रवीन्द्र राजाराम केळेकार

– साहित्यीक



रवीन्द्रबाब नामनेचे कोंकणी साहित्यीक. ते नामनेचे निंबंदकार, ध्येयवादी स्वातंत्र सैनिक, गांधीवादी समाज प्रबोधनकार, विचारवंत. तांचो जल्म 25 मार्च 1925 वर्सा कुंकळ्ळी गांवांत जालो. तांचें मुळावें शिक्षण दीव आनी गुजरातांत जालें. 1939-1944 मेरेन ताणीं फोंडें आल्मेदा कॉलेजींत पुर्तुगेज लायसियम शिक्षण घेतलें. लायसियमाची सव्या वर्साची परिक्षा दिल्या उपरांत ताणीं शिक्षण अर्दवट सोडून ते गोंयचे मुक्ती झुजांत वांटेकार जाले.

दोन वर्सा उपरांत महात्मा गांधीच्या सत्याग्रहाचो अभ्यास करपाक, काकासाहेब कालेलकर हांच्या सहवासांत ताणीं वर्धा आश्रमांत स वर्सां काडलीं. गांधी विचार पटल्या उपरांत वर्धाक सावन ताणीं कोंकणींत 'मीर्ग' नांवाचें एक पंद्रशी नेमाळें चलयलें. तें दोन वर्सां चल्लें. उपरांत ते दिल्लीक गेले. वर्सभर थंयच्या गांधी स्मारक संग्रहलयांत ताणीं ग्रंथपालाचें काम केलें.

1956 वर्सा ते मुंबय आयले आनी ताणीं गोंयकारांक संस्कृतीक आनी समाजीक जाण येवची म्हूण 'गोमंतभारती' नांवाची एक संस्था काडली. तेचपरी 'गोमंतभारती' नांवाचें एक सातोळें रोमी लिपयेंत चलयलें. तीन वर्सां ताणीं ह्या नेमाळ्याचें संपादन केलें. 1960 वर्सा गोंयांत येवन ताणीं पर्थून गोंयच्या सुटके झुजांत वांटो घेतलो. दोन म्हयने ते पुर्तुगेजांचे बंदखणींत आसले.

1962 वर्सा मडगांव शारांत जाल्ले आठवे कोंकणी परिशदेचे ते येवकार अध्यक्ष जाले. सुमार एक दशक कोंकणी आनी मराठी दिसाळ्यांनी मुक्त पत्रकारिता केली. कोंकणी भाशा मंडळाचे तो संस्थापक वांगडी. 1967 वर्सा ते जपानाचे भोंवडेक गेले. 1969 वर्सा पणजे जाल्ल्या कोंकणी लेखक संमेलनाचे आनी उपरांत 1978 वर्सा कोचीन हांगा जाल्ले अखिव भारतीय कोंकणी परिशदेचो ते अध्यक्ष आशिल्ले.

नवी दिल्लींतल्या साहित्य अकादेमीच्या कार्यकारी समितीचे ते 1977 ते 1988 मेरेन वांगडी आसले. नवी दिल्लींतल्या गांधी हिंदुस्थानी साहित्या सभेचे राष्ट्रीय कार्यकारी समितीचे 10 वर्सां वांगडी आसले. नवी दिल्लींतल्या गांधी शांती प्रतिश्ठानाया संचालक मंडळाचे वांगडी. 'जाग' कोंकणी साहित्य नेमाळ्याचे ते संपादक जावन आसले. तसेच मिनेझीस ब्रागांझा इन्स्टिटयूटाचे फॅलो आसले.

रवीन्द्रबाबाली साहित्य संपदा गिरेस्त आसली. सत्याग्रह अशे आशिल्ले गांधीजी (6 किस्ती) कथा आनी काणयो, आमची भास कोंकणीच. शाळेंत कोंकणी कित्याक? तुळशी (नवलिका) वेळेवयल्लो घुलो (लेखकाची डायरी) भज गोविन्दम्, उजवाडाचे सूर (निंबद झेलो), हिमालयांत, सांगाती, राजा-राणी (भुरग्यां-काणयो) ब्रह्मांडांतलें तांडव, महाभारत एक अनुसर्जन, तुळशी, समिधा, तथागत (गौतम बुद्धाची जीण आनी शिकवण) ओथांबे (लघु निबंद) घुस्पल्लें जानवें, पांथस्थ, सर्जकाची आंतरकथा, आमोरेर (कथा झेलो) धम्मपद, विदूरनिती, भगवद् गीतेचेर भाश्य, अघळ-पघळ.

हिंदीतल्यान महात्मा गांधी एक जीवनी (चरित्र) काकासाहेब कालेलकर (आधुनिक भारत के निर्माता) मराठींतल्यान कोंकणीचें राजकारण, जपान जसा दिसला, ज्ञानविधीच्या सान्निध्यांत (काकासाहेबा कडेन संवाद) नवी शाळां (शिक्षकांतल्या प्रयोगाची कथा) मुक्ति (इंग्लिशींतली नाटकुलीं, नाट्यछटा), लाला-बाला (फ्रॅन्च भाशेंतलें नाटक) तीन एके तीन (गुजरातींतल्यो तीन एकांकी).

ताणीं जायत्या पुस्तकांचे अणकार केले. महात्मा (हिंदी) आनी ताका मनशांत हाडलें (गुजराती 'माणसाइना दिवा'चो अणकार) सगळे मनीस भाव-भाव (गांधीच्या इंग्लिश पुस्तकाचो अणकार) हिन्दू धर्म म्हळ्यार कितें? (गांधीचें मूळ हिंदी पुस्तक) दिसा सपन (गुजीभाय बडहेराच्या गुजरातीचो अणकार) हे भायर ताणीं गांधीजी आनी कालेलकरांची पुस्तकां संपादीत केल्यांत. इंग्लिश संकलन आनी वृत्तपत्रिय स्तंभाचें बरप केलां.

गोमंतशारदा, डॉ.टी.एम.ए.पै फावंडेशन, सौदार्य सन्मान, जनगंगा, सी. आय.आय.एल.चो भाशा भारती सन्मान, भारत सरकाराचो पद्मभुषन, साहित्य अकादेमीचो पयलो साहित्य पुरस्कार, साहित्य मळा वयलो सर्वश्रेष्ठ ज्ञानपीठ पुरस्कार, गोंय विद्यापीठाची डॉक्टरेट पदवी अशे कितलेशेच पुरस्कार आनी सन्मान तांकां फावो जाले.

शणै गोंयबाबा उपरांतचे आतां मेरेनचे कोंकणी चळवळींतले ते एक खांपे म्हालगडे. जाणीं आपणालें पुराय जिवीत गोंय, गोंयकार आनी कोंकणी खातीर ओंपले. अश्या ह्या व्हड विचारवंताक 27 ऑगस्ट 2010 वर्सा देवाचें आपोवणे आयलें.

# चंद्रकांत शांताराम केणी

- साहित्यीक



चंद्रकांत केणींचो जल्म 1934 वर्सा कुंकळ्ळी-सालसेत, गोंय हांगा जाल्लो. तांचें मुळावें आनी माध्यमिक शिक्षण गोंयांत जालें. तांणी विद्यार्थी आसतनाच म्हणल्यार 1950 वर्सा सावन बरोवपाक सुरवात केली.

गोंय पारतंत्र्यांत आशिल्ल्यान सभांनी उलोवपाक, दिसाळ्यांनी बरोवपाक कडक निर्बंद आसले. जें किर्तें बरयतात तें छापचे पयलीं सॅन्सर करचें पडटालें, आनी सॅन्सर करचे खातीर बरपावळीचो पुर्तुगेजींत अणकार करचो पडटालो. अशी परिस्थिती आसून लेगीत चंद्रकांत केणीन आपलें बरप चालू दवरिल्लें.

चंद्रकांत केणी हांणी नेमान कथा लेखन, निबंद लेखन करून नामनेचे कथाकार, निबंदकार आनी प्रभावी पत्रकार म्हणून नामना मेळयली. गोंयची अस्मिताय जागोवन, तिगोवन दवरपी 'राष्ट्रमत' दिसाळ्याचे ते सुरवेक सावन संपादक आसले.

सुरवेक तांणी ल्हान ल्हान कथा बरयल्यो. 'धर्तरी अजून जियेताली' (1964) हो तांचो पयलो कथाझेलो उजवाडाक आयलो. उपरांत 'आशाढ पावळी' (1973), 'अळमी' (1975) हे कथाझेले आनी 'एकलो एकसुरो' (1973), 'तरेतरेचीं संवगां (1973), 'फुलांचो हात' (1972- भुरग्यांची काणी), 'व्हंकल पावणी', 'उष्णी वायणां', 'काशिनाथ', 'भूंयचाफी' अशीं कितलीशींच पुस्तकां तांणी बरयल्यांत.

तांणी भारतांतल्या खुबश्या भासांतल्या कथांचो अणकार केला. मराठी आनी हिंदी भासांनीय तांचे कांय बरप आसा. तेचपरी गुजराथी, इंग्लिश आनी पुर्तुगेज भासांचोय तांचो अभ्यास आसा.

जेन्ना महात्मागांधींची हत्त्या (30 जानेवारी 1948) जाली तेन्ना ते फकत

चौदा वर्सां पिरायेचे आसले. पूण ते संवेदनशील आशिल्ल्यान त्यावेळार तांच्या मनार व्हड परिणाम जालो. कांसावले गांवांत तांणी शोकसभा घेतली आनी गांवचे लोकांकडल्यान बेगिनांत बेगीन गोंय मेकळे करपाचो सोपूत घेतलो. पूण ताचो कांय उपेग जालो ना. मागीर रोखडेच ते 1948 वर्सा फुडलें शिकप करचे पसत मुंबय गेले.

1954 वर्सा ते आकाशवाणी मुंबय केंद्राचेर स्टाफ आर्टिस्ट म्हूण शिर्विसेक लागले. थंय तांचे कलेक बरो वाव मेळ्ळो. तांणी आकाशवाणीचेर वितरावचे खातीर कथा, उलोवपां, नभोनाट्यां बरयलीं. आवयभास कोंकणी खातीर वावर करचे खातीर तांकां बरी संवकाळ मेळ्ळी. ह्याच वेळार तांचो गांधी विचारांचो प्रभाव आशिल्ल्या आचार्य काकासायब कालेलकारां कडेन संबंद आयलो.

जेन्ना चंद्रकांतबाब दिल्लीक गेले तेन्ना आचार्य काकासायब कालेलकरां बरोबर काम करपाची तांकां बरी संद आयली. आनी ह्या संदीचो तांणी गोंय स्वतंत्रताये खातीर बरो उपेग करून घेतलो. दिल्लीक तांणी 'गोंयची म्हायती दिवपी संस्थे'ची निर्मणी केली आनी दिल्लीच्या व्हड फुडाऱ्यांच्या कानांत गोंयचे गुलामगिरी विशीं सांगणे करत रावले. जें फुडें फळादीक जावपाक पावलें.

जेन्ना 1961 गोंय पुर्तुगालाच्या बंदपासांतल्यान मेकळें जालें तेन्ना तें दिल्लींच्यान गोंयांत परतले आनी तेन्नाच्यान तांचे साहित्य रचणुकेक चंवर आयलो. कोंकणी, मराठी आनी हिंदी ह्या तीन भासांच्या त्रिवेणी ह्या म्हयनाळ्याचे ते संपादक आसले. तशेंच तांणी कुळागर प्रकाशनाची थापणूक केली.

मायभास कोंकणी आनी गोंयचें खाशेलेपण राखचे खातीर तांणी केल्ल्या वावराची मोलावणी जावची ना. 1976 वर्सा मंगळूर हांगा भरिल्ले 11 वें अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशदेचे ते अध्यक्ष आशिल्ले. 'कोंकणी भाशा मंडळ-मडगांव'चे ते अध्यक्ष आसले. गोवा कोंकणी अकादेमीचे ते कार्यकारी मंडळाचे वांगडी आसले.

1987 वर्सा कोंकणींतलें देवनागरी लिपींतलें पयलें दिसाळें 'सुनापरान्त' हाचें 1989 वर्सा मेरेन ते संपादक आसले.

चंद्रकांत केणीक 'व्हंकल पावणी' कथाझेल्याक गोंय कला अकादमी, तशेंच 1988 वर्साचो केंद्रीय साहित्य अकादेमी दिल्लीचो पुरस्कार फावो जाला.

तांणी साहित्यीक देवाण-घेवाण वावरा खातीर थायलंडाक इंडो-थाय साहित्यीक भेट दिल्या. तांका कन्नडा साहित्य संमेलन आनी लायन्स इंटरनॅशनलान

खेरीत साहित्य सेवे खातीर सन्मानीत केल्लें आसा.

चंद्रकांत केणीक आधुनीक कोंकणी कथेचे बुन्यादी फातर अशें मानतात. तांचे कथेक वैश्विक (युनिवर्सल) बसका आसा, अशें कायं जाणकारांचें मत आसा.

तन-मनान कोंकणी सरस्वतीची सेवा करपी चंद्रकांत केणी 3 फेब्रुवारी 2008 वर्सा ह्या संवसाराक अंतरले.

# संदर्भ पुस्तकां

1. गोमन्त सौदामिनी - माधवी देसाई

2. कोंकणी विश्वकोश - संपादक डॉ. तानाजी हळर्णकार
गोंय विद्यापीठ, ताळगांव

3. Directory of Tiatr Artistes
Publisher : Tiatr Academy of Goa

